।। श्री षष्ठी शांतादुर्गा प्रसन्न ।।

दोन अंकी कोंकणी नाटक

# "हसते हसते"



• बरोवपी : किर्ती नरसे

दोन अंकी कोंकणी नाटक

# 'हसते हसते'



किर्ती शाम नरसे

नटराज क्रिएशन्स

हसते हसते
किर्ती शाम नरसे

Hasate Hasate
Kirti Sham Narse

**पयली उजवाडावणी :**
९ फेब्रुवारी २०१५



**मुखावळः**
कॉम्प्युटर ग्राफीक्स, पणजी

**उजवडावपीः**
नटराज क्रिएशन्स,
श्री. किर्ती नरसे, घर नं. ४६०,
डोंगरी, तिसवाडी, गोंय ४०३ १०४
मो. : ९८२२४८०९७४

**अक्षरजुळणी व मुद्रणः**
श्री. नीलेश नामदेव बुगडे
कॉम्प्युटर ग्राफीक्स, १८ जून मार्ग,
पणजी-गोवा. संपर्क : ९८२२१८१३६०

**मोल :** रू.80/-



'गोवा कोंकणी अकादेमी'च्या पयलों चवर येवजणे खाला हे पुस्तक उजवडाक आयला.

या नाटकाचो पयलो प्रयोग धारबांदोडा हांगा सार्वजनिक गणेशोत्सवानिमतान सादर जाला. या नाटकांत भूमिका करपी कलाकार

| | | |
|---|---|---|
| **विराज** | : | किर्ती शाम नरसे |
| **सुषमा** | : | सौ. सविता उमेश नायक |
| **छुटकी** | : | कु. लावण्यलक्ष्मी किर्ती नरसे |
| **डॉ. अनघा** | : | कन्विशा बाबनी नायक |
| **अण्णा** | : | गौरीश राणे |

| | | |
|---|---|---|
| **बसोवपी** | : | संतोष शेटकार |
| **नेपथ्य** | : | राजेंद्र नायक, वळवय |
| **उजवडा येवजण** | : | युवराज मंगेशकर |
| **रंगवण** | : | मोतीलाल मयेकार |
| **भेसवण** | : | योगेश बकाल |
| **संगीत** | : | यशोदा नरसे |

१. *संकल्प थिएटर, कुडचडें गोंय, आयोजित बाराव्या नाट्य महोत्सवांत लिखाणा खातीर दुसरें इनाम फावो जाल्लें नाटक.*
२. *अनिरुद्ध क्रिडा आनी कला संघ, रासय लोटली गोंय, नाट्य सर्तींत लिखाणा खातीर दुसरें इनाम फावो जाल्लें नाटक.*

# मनोगत

माका सांगपाक खूप खोशी भोगता की हांव डोंगरी या गांवात जल्माक आयलो. डोंगरी हो गांव कलाकारांचो. ह्याच गावांत गोंयचे रंगमाचयेर कृष्णंभट्ट बांदकर हांणी पयले नाटक खेळयले. सुर्या वाघ, जासिंतो वाझ ही डोंगरी गांवचे नामणेचें कलाकार. देवी श्री षष्ठी शांतादुर्गा आनी हेर सगल्यांच्या आशिर्वादान हांवे हे नाटक बरोवपाचे धाडस केले आनी हांतूत माका यशलेगीत मेळ्ळे.

या नाटकाक संकल्प थिएटर, कुडचडें गोंय, आयोजित बाराव्या नाट्य महोत्सवांत लिखाणा खातीर दुसरें इनाम फावो जाल्लें. तशेंच अनिरुद्ध क्रिडा आनी कला संघ, रासय लोटली गोंय आयोजित नाट्य सर्तींत परत एकदा दुसरें इनाम फावो जाले.

हे नाटक उजवडाक हाडपाक आनी नाटकाक आकार दिवपाक ज्या ज्या लोकांनी माका मदत केली ते प्रा. राजय पवार, जयेंद्रनाथ हळदणकर हांचे हांव काळजातल्यान उपकार आठयतां.

गोवा कोंकणी अकादेमीत पयलो चंवर येवजणेखाला नाटक उजवडाक हाडपाक पालव दिलो त्याखातीर त्यांचेच चडानचड उपकार.

**किर्ती शाम नरसे**

# अंक १लो

## प्रवेश पयलो

(एक घराचो हॉल. जाय तितलेंच फर्निचर. माचयेर उजवाड जाता तेन्ना स ते सात वर्साचें चली मोबायलाचेर आसता. तेन्ना गीत वाजता. सिनेमांतल्या 'ऊ लाला ऊ लालाला....' गाण्यार नाचता.)

**सुषमा** : (भितरल्ल्यान) छुटकी ऽ ऽ ऽ

**छुटकी** : (दुसरें गीत बदलता आनी भजन लायता) ॐ जय जगदीश हरे स्वामी जय जगदीश हरे । भक्त जनों के संकट दास जनों के संकट पल में दूर करें ॐ जय जगदीश हरे..... (म्हणत धोलता.)

**सुषमा** : अं वा ऽ वा ऽवा ऽ(हातान दुदाचो ग्लास आसा) म्हाका पळयताच गीत चेंज....!

**छुटकी** : खंय गो ? कितें?

**सुषमा** : हय तेंच तें आता हांवें बंद केलां तें.

**छुटकी** : आगो सकाळीं फूडें उठचे उठून देवाचें म्हणपाक जाय. अशें तूंच म्हणटाली न्ही गो.

**सुषमा** : हय जाणा हांव खंयचो देव तो, पुरो कर हीं नाटकां. स्कूल बस येवपाचो वेळ जालो. पावडर बी लाय तो, आनी हें कितें, हांगा यो गो, केंस सुद्धां उगोवना पळय. यो हांगा, हांगा यो. (सोप्यार बसता).

**छुटकी** : ना गे मम्मा.

**सुषमा** : आगो अशेंच वतलें.... तुज्यो टीचरी हांसतल्यो म्हाका. म्हणटल्यो घरांत कोण ना काय म्हणून. यो हांगा.

**छुटकी** : हांव येवचें ना. (हाताची घडी घालून वोग्गी रावता)

**सुषमा** : आगो म्हाका टिफिन भरपाचें आसा बेगीन यो.

**छुटकी** : हांव येवचें ना, म्हणजे येवचेंना.

**सुषमा** : तूं मगो अशें आयकुचें ना. सागर, सागर, सागर.

**छुटकी** : आगो मम्मा ताका किद्याक आपयता, सागर, सागर करून? हांव येतां. (तेन्ना छुटकी सुषमा कडेन बसता.)

**सुषमा** : बापायक बरें भितां मुगो तूं!

छुटकी : तशें हांव कोणांकूच भिना आं.
सुषमा : अशें! सागर..... (छुटकी सुषमाच्या तोंडार हात दवरता.
छुटकी : नाका गो मम्मा बाबाक आपोंव नाका.
सुषमा : नाका मगो जाल्यार हांगा यो तुजे केस उगयता.
छुटकी : तूं दुखयता गे मम्मा म्हजे केस आनी खरें सांगू म्हाका अ
वाज येता. स्कूलांत वचपाक (विचार करता) पोटांत दुख
गो म्हज्या. आवय, आवय....
सुषमा : नाटकां पुरो जालीं तुजी. यो दूद पी तें.
छुटकी : शी वॅकऽऽ म्हाका नाका ते दूद.
सुषमा : सागर.... मात्सो भायर यो आनी बायक पळय.
सागर : आं कितें?
सुषमा : बायक पळय.
सागर : बायक? बरें पळयलें. बरें दिसता. आतां हांव वचून न्हिदू
सुषमा : आरे देवा! आरे बस येवपाचे वेळ जालो आनी हें नाटकां करत
म्हाका वेळ ना हाच्या बरोबर नाचपाक तूंच पळय. (सुष
भितर वता.)
सागर : बाबा कितें जालें रे?
छुटकी : बाबा मम्मा म्हजे केस दुखयता रे. तूं बरे उगयता म्हजे के
तूच उगय म्हजे केस.
सागर : बरे यो. फणी हाड. (केस उगयता. सुषमा भायर येता.)
सुषमा : आतां पळय बापाय कडल्यान बरी उगोवन घेता कशें. अ
देवा हें अजूनूय दूद पिवना. चल, चल, चल बाय बेगीन त
पी.
छुटकी : शी, वॅकऽऽ म्हाका नाका तें दूद.
सागर : बाबा दूद पिरे, दूद पिल्यार मरे ताकद येता. (खोकता)
सुषमा : आरे तूं किद्याक खोकता. चल वच आनी डॉक्टराक म
कित्याचेरूय पडत.
सागर : चडांतचड कितें जातलें? मरतलों मगो!
सुषमा : जालें सुरू. बाय तूं दूदं पिता काय ना? पी तें दूद.
छुटकी : मम्मा म्हाका दूद पिवपाक कळना.

सुषमा : कितें? तुका दूद पिवपाक कळना. सामकें सोपें मगो.

छुटकी : कशें कशें कशें?

सुषमा : (आपूण करून दाखयता) असो ग्लास धरपाचो. तोंडाक लावपाचो आनी (तें दूद पिता) सोंपलें.

छुटकी : गुड गर्ल (हांसता)

सुषमा : ये बाये. (बेजार जावन) तुमी तीं दोगांय सदांच अशें करतात. हाव उलयना तुमचे कडेन.

सागर : ए छुट्टू मम्मा बेजार जाली पळय तुजेर, चल ममाक मनय.

छुटकी : ए मम्मा अशें कितें गे तूं? तुका मगे कोणूय मामा करता सामकी, भोली ती म्हजी मम्मा.

सागर : आनी बाबारे?

छुटकी : म्हजो बाबा, म्हजो बाबा सगळयां परस बरो. (स्कूल बशीचो होर्न वाजता.)

सागर : बाय चल चल, बेगीन चल, तुजी स्कूल बस आयली. यो यो... (सागर वचपाक सोदता)

सुषमा : ये, खंय चल्लो?

सागर : खंय म्हणजे, स्कूल बस आयली तेका पावपाक वता.

सुषमा : थंय कितें फेन्सी ड्रेस कॉम्पीटीशन आसा?

सागर : कित्याक?

सुषमा : ना, असो तुवालो बांदून वता म्हणून विचारलें.

सागर : तुवालो तरी बांदला मगो!

सुषमा : शी तुका म्हणून मातूय लज ना, सामकीं भाजून खाल्या.

छुटकी : हय मम्मा.

सागर : (छुटकीक) कितें गो, कितें गो?

छुटकी : आरे बाबा, मम्मा तुका सदां म्हणटा की तुवें खंय लज भाजून खाल्ल्या. बाबा कशी लागता रे लज? आंबट, खारट, काय तिखट?

सागर : तुजे आवयकूच खबर आसतली, तिकाच विचार.

छुटकी : हय गे मम्मा, तुवेनूय लज भाजून खाल्या? सांग कशी लागता गे लज? आंबट, खारट काय, तिखट?

सुषमा : ए, चल... चल... चल, पुरो जालें. बस आयली तुजी.

छुटकी : बाय.... बाबा.

सागर : बाय शोना.....(छुटकीक घेवन सुषमा भायर वता थोड्य
वेळान फोन, वाजता) आ! डॉक्टर अनघा सांग कशें आस
हांव बरो आसा. पूण मात्सो थकलेल्या भशेन दिस
आनी खोकलेचो त्रासूय मात्सो वाडला. कितें आराम?
आतां कायमचोच आराम. केलां. टेबलेटूच घेता. अ
बरे तर सुधीराक विचारलां म्हणून सांग आनी एक, ता
म्हजा दुयेंसाचे कांयच सांगू नाका.ओके, बाय.(वता अ
कोनशाच्या कदेलार बसता.)
(सुषमा दारान रावन.)

सुषमा : आरे हें कितें? आजूनय तू हांगाच आसा? ताका कशें भा
काडलां तशें तुका काडपाचें काय कितें?

सागर : (विचार करून) सुषमा हांव आज ऑफिसान वचना. म्हा
वाज येता.

सुषमा : तुज्याय पोटांत दुखता काय कितें?

सागर : हे, ना गो पोटांत बी दुखना. पुण मगो आज म्हजो मूड ब
आसा.

सुषमा : आतां विसंरू नाका एका भुरग्याचो बापूय आसा तूं.

सागर : तर कितें जालें? (आनी गीत म्हणटा) ये जवानी, है दिवा
आ मेरी रानी, रूक जावो रानी......

सुषमा : आज कितें सामको मुडान सो! बरो आसा तूं?

सागर : हांव एकदम बरो आसा. आयच्यान हांवें थारायलां दर ए
खीण हांसत खेळत जगपाचो फाल्यां कोणें पळयलां? जिंद
हसने गाने के लिये है पल दो पल (दोगांय नाचतात) इसलि
आज ऑफिस को दांडी!

सुषमा : कितें? आज सूर्य पूर्वेक उदेला काय अस्तमेक? हेरश
आयताराक सुद्धा कामाक वचपी मनीस आज दांडी मारू
सोदता?

**सागर** : वाज आयलो गो तीं ऑफिसांतलीं कामां करून. हांव कितें म्हणटा, आज मगो आमी बरी भोंवपाक या. लग्नां पयलीं ज्या ज्या जाग्यार भोंवपाक वतालीं थंय सगळ्याक या.शॉ पिंग करुंया, आइस्क्रीम खावंया, पावसांत बरीं भिजूया आनी मागीर तुका आवडटा तीं बाप्पाल्या गाड्या वयलीं गरम गरम भजी खावया.

**सुषमा** : आनी कडक कॉफी?

**सागर** : आनी म्हाका च्या (दोगांय एकामेंकाक पळोवन हांसतात.)

**सुषमा** : खरेंच कितले बरें दीस आशिल्ले न्ही ते? याद केल्यार सुद्धा तोंडार हासो फुलता. गेले ते दीस.

**सागर** : गेले, खंय गेले? ते दीस खयंच वचूंना! चल चल बेगीन भायर सर आतांच्या आतां.

**सुषमा** : आरे पूण आतांच कित्याक? या मागीर केन्नाय या. काम आसा म्हाका फाल्यां या.

**सागर** : फाल्यां कोणें पळयला? (खोकंता)

**सुषमा** : पळय पळय कसो खोकता पळय? आनी खंयच वाऱ्याक वचपाची गरज ना. हांगाच रावया. भोंवपाक या म्हणटा तो.

**सागर** : आगो पळय मगो सगळे केस पिकले. आतां जाण्टेपणान खोकली येवचीना जाल्यार केन्ना येतली? (खोकता)

**सुषमा** : राव आं! तुका उदक हाडटां. भोंवपाक जाय खंय भोंवपाक. (इतल्यान फोन वाजता) आं... हॅलो आं मावशी गे! कशी आसा? बरी आसा मगे. हय आमी बरी आसा. आगे पयर विमल मेळिल्लें. सांगतालें, तुजो प्रेशर वाडला म्हणून. गुळयो बी टायमार घे. आतां मरपाचे कित्याक उलयता तूं? हें पळय तुका कांयच जावचेंना. ना गे हेंच्या फाटल्यान नाचपाकूच वेळ वता. रावपाक मगे येता. छुटकीक सुटी पडली की दोन दीस कित्याक बरे आठ दीस येता रावपाक. हॅलो हॅलो..... (रेन्ज वता) आं, मावशे, सांग, आयकुपाकूच येना. आगे मोठ्यान उलय मोठ्यान.

**सागर** : चड मोठ्यान उलोवपाक लावू नाका तिका. ॲटेक येवन मर
ती.

**सुषमा** : तूं मात्सो ओगी राव थंय. आगे, मोठ्यान मोठ्यान.... श
कट जालो. पाड पडूं ह्या वोडाफोनाचे. वोडाफोनाची रेन्
फकत वडापोंदा हे फट नी. काय बरे मावशेकडेन उलयता
कट जालो फोन. (परत फोन वाजता)

**सागर** : आगो घे तो फोन. तो फोन हांगा वाज वाज वाजतोलो पू
थंय तुजी मावशी मरत फोन घेना म्हणून.

**सुषमा** : सागर कितें उलयता? सवंग खंयचें! (फोन घेवन) ए ना न
तुमी सवंग न्ही तुमी ती.....

**सागर** : जनावर म्हण!

**सुषमा** : तूं जनावर. हाय देवा! हें पळयात हांव तुमकां म्हणनाशिल्ले.
शी बाबा आयकून तरी घेयात. आरे, आरे, शी गाळी कि
घालता आरे?

**सागर** : कितें? तुजी मावशी तुका गाळी घालता? शक्यूच ना.

**सुषमा** : मावशी न्ही रे ही कोण तरी दादलो उलयता आनी म्हाक
गाळयो घालता.

**सागर** : तुका गाळयो घालता इतलो मद? दी म्हजेकडेन दी, हां
पळयतां. आरे हलकटा, दळडीऱ्या, नालायका... ह्योच गाळ
मारल्या मगो तुका? काय दुसऱ्यो गो.... बाप्पाय! तूं म्हाक
परत गाळयो घालता इतकी कापस्ताद तुजी? यो तोंडार घा
रे यो.

**सुषमा** : आरे फोनार आसा तो!

**सागर** : जाल्यार कितें जालें? हांव फोनांतल्यान भितर वचून तुक
मारतलो. बाप्पाय! तू म्हाका मारतलो? तूं कोण काय म्हणू
म्हाका विचारता? आरे तूं कोण रे? म्हाका बरो वळखना तू
तुका हांव पयलींच सांगतां. आरे चल रे तूं कोण रे? अण्ण
आं.... अण्णा कोण अण्णा?

**सुषमा** : कोण रे?

**सागर** : आगो अण्णा मगो तो आवाज वळखपाक कळना सामकें मगो! बेश्ट्यो गाळयो घालपाक लागल्यो.

**सुषमा** : हय! आतां म्हण मरे सवंग म्हण, बायजण म्हण आतां कितें जाले?

**सागर** : तू ओगी राव गो थंय....आतां तो येता खंय आमगेर शेनवाराक तूं राव गाळी खावपाक, रेडी राव.

**सुषमा** : हय आतां आसाच म्हाका गाळी.

**सागर** : हा एक काम कर! तूं मगो बरे सुंगटाचें सुकें कर. ताका खूब आवडटा.भितर सरतनाच वासानूच तो घुंवपाक जाय.

**सुषमा** : हय बरोबर! हांव तशेंच करतां. ए पूण, म्हाका खंय कळटा इतके बरें सुकें करपाक?

**सागर** : हे तुज्या हाताक सॉलीड टेस्ट आसा!

**सुषमा** : पुरो पुरो! तूं बेश्टोच म्हाका चण्याच्या झाडार चडोवं नाका आं.

**सागर** : ना गो खरेंच! आनी तुका चण्याच्या झाडार... (हासता) तुका आंब्याच्या झाडार सुद्धा चडयले न्ही जाल्यार तुज्या वजनांत तें आंब्याचें झाड सुद्धा मोडून पडटलें. (तें सागराक मारपाक धांवता तेन्ना सागराक खोकलेचो त्रास जाता. खोकता.)

**(काळोख जाता)**

# प्रवेश २ रो

(माचयेर छुटकी कपडे घालून फिल्मी गीताचेर डान्स करता. 'बो
बच्चन', 'चलाओ ना नैनो से बाण रे.....' एकटेंच नाचत आसता. भायल्या
अण्णा. पिराय वर्सां ५५. भितर छुटकी बरोबर तोवूय गीताचेर ताल धरू
नाचता.) (छुटकी, अण्णा नाचता तें पळोन थांबता. तो नाचत आसा)

**छुटकी** : आरे अण्णा तूं? आवय..... अण्णा नाचता मरे तूं?

**अण्णा** : (अण्णा कानान भेड्डो आसता) ना ना ना.....

**छुटकी** : केन्ना आयलो रे तूं? (अण्णाक सारकें आयकुपाक येना.)

**अण्णा** : आं! हय हय हय...

**छुटकी** : आतां आयला तसो रावतलो मरे आमगेर?

**अण्णा** : ना ना ना....

**छुटकी** : म्हणजे रोखडोच वतलो?

**अण्णा** : ना ना ना...

**छुटकी** : आ! म्हणजेच रावतलो!

**अण्णा** : ना ना... हय हय....

**छुटकी** : आरे कितें? हय हय.. ना ना... सारकें सांग मरे.

**अण्णा** : हय हय पाड पडलेले, कितें उलयता म्हणून देव जाणा! सारकें
कायच कळना. मोठ्यान उलय, मोठ्यान.

**छुटकी** : आं आतां म्हाका कळ्ळें! आमच्या अण्णाचें कान! अण्णा तू
आमगेर रावतलो मरे?

**अण्णा** : (मोठ्यान) हय तर हांव मगो खूब खातलो.

**छुटकी** : खातलो न्ही रे बाबा! हांव म्हणटाले तूं रावतलो मरे?

**अण्णा** : तुमी कितें दिता पळय तें हांव खातलों.

**छुटकी** : हो आतां म्हाजो ताळो उडयता दिसता, अण्णा खातलो न्ही रे
(विचार करून) हय हय खातलो मरे.

**अण्णा** : हय गो बाय हांव मगो खूब दीस रावतलों!

**छुटकी** : बरें जालें, बाबा. हांव सुटलें.

**अण्णा** : कितें फुटलें? आगो कितें फुटलें?

**छुटकी** : आरे फुटलें न्ही रे सुटलें (विचार करून) ना ना अण्णा फुटलेंच.

अण्णा : आ सुटलें.

छुटकी : आता म्हाका कळ्ळें आमच्या अण्णाक सारकें सांगल्यार कळना सगळें परतेंच सांगचें पडटा.

छुटकी : अण्णा! बाय कशी आसा?

अण्णा : आ! गाय गो गाय बरी आसा पयरूच तिका पाडूक जालां.

छुटकी : अण्णा तूं म्हशीर बसून आयला?

अण्णा : हें कितें विचारता गो? हाव बशींतच बसून आयला. आनी कितें उरलां?

छुटकी : ना पुरों!

अण्णा : चुरो! आगो हांव खायना गो चुरो.

छुटकी : चुरो नी पुरो! आगो मम्मा बेगीन भायर यो हो पळय चुरो... न्ही अण्णा आयला.

सुषमा : अण्णा, केन्ना आयले तुमी?

अण्णा : हांव बरो आसा तूं कशें आसा?

सुषमा : हांव बरें आसा तुमी बसात. तुमकां उदक हाडटां.

अण्णा : आगो बदक हाडटा? बदक कित्याक गो?

सुषमा : अण्णा बदक न्ही उदक उदक.....

अण्णा : आं बदक? आगो बदक कित्याक गो? बरें तूं हाडटा म्हणटा जाल्यार हाड बदक.

सुषमा : अण्णा बदक....(सांगपाक वता तेन्नाच छुटकी आडयता)

छुटकी : हांव सांगता अण्णाक (अण्णाक हात लायता) अण्णा मम्मा तुका बदक हाडटा.

अण्णा : आं! उदक हाडटा? हाड गो हाड पिवपाक मुगो?

छुटकी : ना न्हावपाक?

अण्णा : कितें गो?

छुटकी : ना ना...

सुषमा : अण्णांचे कान कांय सुपां? अण्णा, तुमचें कानाचें मशीन खंय?

अण्णा : आं! ना ना ना...

सुषमा : म्हणजे शेणलें? देवा आतां आमचें कशें जातलें?

छुटकी : काय ना मम्मा तुका अण्णा कडेन उलोवप कशें तें हांव सांग
(अण्णा कडेन पळयता) आगो मम्मा तें पळय मगो अण्णा
मशीन आसा.

सुषमा : आतां अण्णा हें कानाचें मशीन लायतां.

अण्णा : लावंकूच नासलें आतां लायतां आतां लायतां (कानाक मशी
लायता) आतां कशें जालें झकास! (बसता)

छुटकी : अण्णा तुवें आमकां कितें हाडला रें? हे! ( सॉऱ्याची बाटल
दाखयत नाचता.)

अण्णा : (काडून घेता) वखद तें म्हजें.

सुषमा : अण्णा हें कितें? बरोबरूच घेवन भोंवता?

अण्णा : हट तुमच्या हांगा खंय मेळटा असली ... काजू! जेवणा पयल
इल्ली लागता म्हाका, म्हणून हाडल्या. आनी बाय तुका म
चॉकलेट हाडल्या. खातलें मगो तूं?

छुटकी : हय...

सुषमा : अण्णा म्हजे खातीर कितें हाडलां?

सागर : तुज्या खातीर हाडलां तर! एकुलती एक सून तू म्हजी. तुक
मगो ही घे भिण्णाचीं सोलां, आनी तेळफळां.

सुषमा : (पोती घेऊन भितर वता)

सागर : अण्णा आनी म्हजे खातीर कितें हाडला?

अण्णा : तुज्या खातीर? हांव आयला तो पुरो ना.... दिसानदी
भुरगोच जाता हो. (सुषमा येता) जाणा मगो सुषमा हो पयल
सुटयेंत आमगेर येतालो आनी आमच्या काजीन येवन काज
चोरतालो आनी दामूच्या गाड्यार व्हरून विकतालो. त्य
पयशांनी खटखटे, पिपिरमिटा, बटाटवडे, सामोसा अस
खातालो. असलो घोव तुजो चोर खंयचे कडलो.

छुटकी : बाबा चोर, बाबा चोर.....

अण्णा : बरें सागर, म्हाका सांग तुवें फाटीं म्हाका फोन केल्लो कि
सांगूक सोदतालो सांग मरे?

सागर : (सामको आबूज जाता) अण्णा तूं आतां प्रवासांतल्यान जा

जावन आयला न्ही तूं फ्रेश जा मागीर उलोवंया. (गडबडलेभशेन वता.)

अण्णा : आगो असो गडबडलेल्या भशेन कितें हो? कितें तरी सांगपाक सोदतालो तो म्हाका त्या दिसा.

सुषमा : हय अण्णा म्हाकाय तो कितें तरी लिपयता अशें दिसता टॅन्स आसता रे, विचार करत आसता. अण्णा आतां तुमी आयल्या न्ही विचारा आं ताका पयलीं. सारकों ना तो आतां.

सागर : (टॉवल घेवन भायर येता) आगो अण्णाक च्या बी दिल्या काय ना गो?

सुषमा : आरे देवा! विसरलेंच पळय. अण्णा च्या घेवन येता. (तें किचनांत वता ताचे फाटल्यान छुटकी भितर वता.)

अण्णा : सागर म्हाका सांग सुषमा म्हणटालें तूं खंय टेन्स आसता. कितें जालें? कितें? टॅन्शन? सांग मरे कितें जालें? कामार कितें जालें?

सागर : ना रे कामार काय जावंना.

अण्णा : सुषमान कितें म्हटलें?

सागर : तें बाबडें म्हाका कितें म्हणटलें.

अण्णा : मागीर जाला कितें? पयशांचें ....? सांग कितले जाय?

सागर : ना रे पयशांचें काय ना.

अण्णा : आरे मागीर जाला कितें? म्हाका फटोव नाका. आरे तुजो काका आसलो तरीय तू म्हाका पुता परस चड. तजेशिवाय कोण आसा रे म्हाका? सांग जालां कितें?

सागर : अण्णा हांव तुकां सांगतां, पूण हांव जें तुका सांगतलों तें तूं कोणाकूच सांगचोना अशें म्हाका उतर दी.

अण्णा : म्हणजे?

सागर : (भितर किचनांत पळोवत) सुषमाक सुद्धा!

अण्णा : म्हणजे ताका खबर ना तर?

सागर : ना आनी ताका केन्नाच कळपाक जायना ही गजाल .

अण्णा : (तापून) दळडीऱ्या, नालायका अशें कितें केलां? तुवें भानगड बी करूंक ना मरे?

**सागर** : हें आनी तूं कितें उलयता रे अण्णा? हांव सुषमा बगर दु
कोणाचें चिंतूकच शकना.

**अण्णा** : आरे मागीर अशें कितें जालां कितें घडलां सांग!

**सागर** : अण्णा म्हाका पयलीं तूं उतर दी की तूं कोणाकूच सांगचे
म्हणून.

**अण्णा** : हां रे!

**सागर** : ना अण्णा म्हाका उतर दी–

**अण्णा** : बरे बाबा हांव कोणाकूच सांगचोंना आतां सांग! (सागर र
आरे आरे! असो रडटा कित्याक रे शाण्या? शाण्या हें प
कितें जालां तें सांग रे म्हज्या राजा! म्हजो अंत पळोवं न

**सागर** : अण्णा कशें सांगू तुका? म्हाका मरे कॅन्सर जाला (र
आनी डॉक्टरान सांगलां लास्ट स्टेज.

**अण्णा** : कितें? केन्ना? कसो?

**सागर** : केन्ना तें म्हाकाय खबर ना.

**अण्णा** : कितें सांगता रे तूं. म्हणजे!

**सागर** : म्हणजे! सगळें सोपलें. डॉक्टरान सांगलां म्हजे चडांत चड
म्हयने उरल्यात म्हणून.

**अण्णा** : ना! (अण्णा उदास जावन बसता) अशें घडूंक शकना.

**सागर** : ना अण्णा अशेंच घडलां. जें नशिबांत बरयलां तें जातलें

**अण्णा** : आरे पूण त्या डॉक्टराक तुका सारके कितें जालें तें कळुं
आसतले रे.

**सागर** : अण्णा गोंयच्या स्पेशलीस्ट डॉक्टरान म्हजे रिपोर्ट चेक केल
आनी मागीरूच म्हाका.......

**अण्णा** : आरे पूण तांचेकडेन चूक जावंक शकता.

**सागर** : अण्णा तुवेंच असो धीर सोडल्यार हांवें कोणा कडेन वच
रे.

**अण्णा** : हे पळय सागर आमी न्ही व्हडल्या डॉक्टराक मेळुंया
जाल्यार मुंबय या.

**सागर** : कांयच फायदो ना. बेस्टीच पयशांची मात वाट.

ण्णा : आरे मनशा मुखार पयशे व्हडले रे? हे पळय तू कायंच उलोव नाका आमी मुंबय या म्हणजे तूं जातलो बरो.

ागर : हें पळय अण्णा म्हाका खर्च करून पयशें वगडावपाचे नात आनी कितें गॅरेंटी हांव मुंबय वचून बरो जातलो म्हणून आणि इतले सगळें केलें आनी फाल्यां... ना अण्णा म्हाका खंयच वचपाचें ना कितें जाता तें हांगाच जावं. आरे म्हजेकडेन जे कितें उरला तें हांव सुषमाच्या, छुटकीच्या नांवार दवरतलो.

ण्णा : आरे शाण्या केन्ना ना तरी केन्ना ही गजाल तांकां कळटलीच तेन्ना कितें?

ागर : तेन्नाचे तेन्ना पळोवया. पूण तूं आतां कोणाकूच सांगू नाका.

ण्णा : घाल.. घाल.. घाल... म्हाका फोंडांन. पूण शाण्या हें तुका केन्ना कळ्ळें?

ागर : गेल्या तें म्हयन्यांत.

ण्णा : आनी तूं म्हाका आतां सांगता?

ागर : हांवें फोन केल्लो तुका पूण म्हटलें तुका त्रास कित्याक?

ण्णा : (रडत) म्हाका त्रास कित्याक? आरे तुजे शिवाय कोण आसा रे म्हाका संवसारांत? ना भुरगीं, ना बाळा! आणि आतां रे कित्याक सांगलें तुवें म्हाका? आतां म्हाका जायना त्रास! त्रासाच्यो गजाली करता, आरे पुताचे मरण पळोवपाक खंयच्या बापायक आवडटलें?

ागर : अण्णा! माफ कर रे म्हाका.

ण्णा : आरे पूण आतां कितें

(सुषमा च्या घेवन येता आनी ते दोगूय स्तब्ध आसतात.)

ुषमा : अण्णा च्या घेयात. तुमी ओगी कित्याक?

ागर : शी.. शी.. ओगी! खंय गो म्हाका च्या खंय गो?

ुषमा : तुजी च्या तुजी राणी घेवन येता.

ुटकी : बाबा घे मम्मान तुजी च्याच हाडूंक नाशिल्ली.

ागर : म्हजी राणी ती.

ुषमा : राणी उं कितें तर राणी? पळयले मरे अण्णा? (सुषमा भितर वता )

अण्णा : (छुटकीक) बाय गो कितलेंत शिकता?

छुटकी : पयली शिकता!

अण्णा : आं पयली! बाय गो तूं व्होडले जालें म्हणटकच कोण ज

छुटकी : हांव मरे पायलट जातलें!

सागर : आगो तूं फाटल्या दिसांनी ॲडव्होकेट म्हणटालें न्ही गो

छुटकी : हे म्हाका आवडना ते काळे कोट घालपाक. हांव मरे पाय जातलें.

अण्णा : कसलो गो पायलट मोटार-सायकलीचो?

छुटकी : हट.... हांव विमानाचें पायलट जातलें आनी बाबाक मम्माक झूं....करून व्हरतलें.

अण्णा : आनी हांव गो?

छुटकी : तुका मरे हांव स्पेशल गाडयेन व्हरतले.

अण्णा : कसली गो?

छुटकी : बैलगाडी! तूं मरे सकयल बैल गाडयेन आनी आमी विमानान झूं.... झूं...... (ते भितर वता)

सागर : अण्णा कसलो कपल फुटको रे हांव म्हजे चलयेचीं लेगीत पुराय करपाक शकना.

**काळोख**

## प्रवेश ३रो

(सुषमा पिकनीकेक सावन भितर सरता.)

**ुषमा** : शी बाबा कितली गर्दी ह्या बिच्यांचेर. शीं वीट आयलो. पांय म्हणून दवरपाचो ना. घराकडेन पावतकीच बरें दिसलें पळय. आनी जाणा मगो.... आगो हे खंय उरले? (दारा कडेन वचून) आगो आगो थंय कितें करता? थंय बिचार खेळळंला तें पुरो जालें ना? हांगा यो. आगो हांगा यो म्हणल्यार कळना. आता येता काय ना गो?

**टकी** : मम्मा... मम्मा.... मज्जा आयली न्ही गो. सॉलीड न्हाली घुस्स घुस्स घुस्स...

**ुषमा** : आगो देड शाण्या तूं आतां बिचार ना. घूस घूस... करून न्हावपाक आनी फाल्यां स्कुलाक वचपाचें नां गो. ना जाल्यार जाम जावन न्हिदशीत.

**टकी** : ये मम्मा हांव स्कुलाक केन्नाच दांडी मारना.

**ुषमा** : हय जाणा, आनी पोटांत दुखता अशे कोण म्हणटा?

**टकी** : केन्नाय तें!

(अण्णा आनी सागर जाम जावन भितर सरतात.)

**ागर** : सुषमा हांव मात्सो आड पडटा. जायना म्हज्यान.जाम जाला गो.

**ुषमा** : आरे असोच न्हिदतलो. हें पळय थंय खाऱ्या उदकान न्हाला. हांगा मात्सो न्हा, जेव आनी मागीरूच न्हीद.

**ागर** : आगो पूण!

**ुषमा** : हे पळय पांच मिण्टांनी जेवण रेडी करतां. प्लीज....

**ागर** : बरे बाये न्हाता, जेवता आनी मागीरूच न्हिदता. चल उदक काड.

**टकी** : ए हांव फस्ट! हांव फस्ट! हाव फस्ट न्हातलें.

**ागर** : हें पळय....

**ुषमा** : हय. हय. हांव हेका दोन मिण्टांनी न्हावन काडटां. तूं बस उदक हाडटां तुमकां.

(सुषमा छुटकीक घेवून किचनांत वता.)

**अण्णा** : सागर तू ह्यो पिकनिको बी करता पळय त्यो बंद कर रे

**सागर** : आरे अण्णा कितें उलयता तूं! आनी केद्या मोठ्यान रे उलय रे.

(सुषमा पिवपाक उदक घेवन भायर येता.)

**सुषमा** : आ! सागर उदक. (सुषमा परत भितर वता.)

**अण्णा** : आरे तूं हें जें कितें करता पळय ते बरें न्ही रे. तुज्या जि माल. सागर हांव सांगतां तें आयक! आमी मुंबय या, तूं ज बरो. तुजी परिस्थिती हांव जाणा. तू पयशांची कांयच क करूं नाका. जाय पडल्यार हांव म्हजी जमीन विकतां.

**सागर** : अण्णा नाकाशिल्लें कायंच उलोव नाका आं. आनी ज विकपाचें तर चितूंच नाका. तूका जर म्हजेर खरेच उपकार करपाचो आसा न्ही जाल्यार एकूच उपकार कर, म फाटल्यान म्हज्या सुषमाची, म्हज्या बायची काळजी घे

**अण्णा** : आरे....

**सागर** : ना अण्णा म्हाका तुजे कडल्यान इतकीच आस्त आसा.

**अण्णा** : तुजेकडेन उलोवप म्हटल्यार व्यर्थ. (अण्णा भितर वता.

(सागर गुळयो घेवपाक वता, तेन्नाच सुषमा टॉवेल घेवन सरता)

**सुषमा** : सागर कितें करता?

**सागर** : खंय गो कितें?

**सुषमा** : ना हातान कितें आसा तुज्या?

**सागर** : हे कांय ना. ना.... आ ही गो? ही? ही गुळी.

**सुषमा** : हय हांव जाणा. पूण म्हाका सांग ह्यो गुळयो तूं कित्याक घ

**सागर** : कित्याक?

**सुषमा** : हांवेंन विचारलां तुका कित्याक काय म्हणून.

**सागर** : आगो तूंच म्हणटा न्ही गो? हांव डॉक्टराक मेळना. आंगार काडटा म्हणून. हांव काल डॉक्टराक मेळपाक गे तेन्ना तेणे म्हाका ह्यो गूळयो घे म्हण सांगले.

**सुषमा** : तुका डॉक्टरान गुळयो शो दिल्या. कितें जाला तुका?

**सागर** : (हासोन, पूण रडत...) आगो म्हाका कायच जावंक ना गो आनी ह्यो गुळयो साद्यो गो सामक्यो. आगो ह्यो गुळयो विटामिनाच्यो. आतां तूं नाका म्हणटा जाल्यार हांव घेना ह्यो गूळयो.

**सुषमा** : नाका नाका.... घे घे बाबा! म्हजेर आनी नाका, हांवें नाका म्हटलें म्हणून.
(ते भितर वचपाक घूंवता, पूण मदीच रावता) राव रे म्हाका सांग फाटल्या म्हयन्यानूच तुवेन टेबलेटी घेतिल्ल्यो न्ही रे.

**सागर** : आं! हय... हय... आगो फाटल्या दिसांनी घेतलेल्यो त्यो हेमोग्लोबीनच्यो (स्वास सोडटा).

**सुषमा** : सागर म्हाका तुजे बरें लागना. हें पळय शाण्या चड टेबलेटी घेवं नाका. तेंका सायड इफेक्ट आसता. आनी अशें आसूनय तूं कितें करता तें तुकाच खबर आसा.
(म्हणत सुषमा भितर वता तुवालो भायरूच दवरून. फोन वाजता...)

**सागर** : आगो ह्यो..... ह्यो गुळयो (सगळोच घुस्पता) ह्यो गुळयो... त्यो...

**सुषमा** : आरे असो सगळोच गडबडटा कित्याक?

**सागर** : खंय गडबडटा गो. आगो ह्यो गुळयो मगो. यो.... विटामिनाच्यो.

**सुषमा** : विटामिनाच्यो सांगपाक इतलो गडबडपाक जाय.

**सागर** : आगो फाटल्या दिसांनी तूच म्हणटालें न्ही गो डॉक्टराक मेळ. डॉक्टराक मेळ म्हणून हाव पयर डॉक्टराक मेळ्ळो तेन्ना म्हाका तेणे ह्यो गुळयो दिल्यो. बेस्टेच आ. बेश्ट्योच. ओगीच दिल्या तेणे.

**सुषमा** : कितें म्हणटालो रे तूं .....पयर? पूण हांव तुका खूब दीस जालें पळयता तू ह्यो गुळयो घेता त्यो.

**सागर** : कित्त्याय कितें उलोवनाका आं. म्हणजे आतां हावें कितें करपाचें? कसो रावपाचो? कितें खावपाचे? सगळें तुका विचारूनूच करचें पडटलें दिसता.

**सुषमा** : आरे कितें उलयतां हें तूं?

सागर : तुका मगो तुका म्हजेर विस्वासूच ना!

सुषमा : आरे सायबा खंयचो खंय पावता रे तूं. आरे म्हाका इतलेच
ह्यो पळय तूं गूळयो घेता त्यो बेस्ट्योच घेव नाका. कित्या
पडत म्हणून कित्याक तर तेंका सायड इफेक्ट आसता.

सागर : कळ्ळें. (मोठ्यान) आतां तूं म्हणटा जाल्यार हांव ह्यो गु
घेना. पूण तूं मात परत म्हाका डॉक्टराक मेळ म्हण सांगू न
कळ्ळें.

सुषमा : नाका रे बाबा हांव म्हणता म्हण तू ह्यो गूळयो घेवपाचो थ
नाका. तू घे म्हाका मधी घेव नाका.
(ते भितर वता)

सागर : सुषमा आय एम सॉरी म्हाका तूजे कडे फट उलोवचे पड
माफ कर म्हाका.
(इतक्यान फोन वाजता)

सागर : हा हॅलो डॉक्टर अनघा... आगो आगो आयकून तरी घे
आगो  हांव जाणा आसलो गो अॅपॉयन्टमेंटाचें आगो किदे त
काम आसले म्हण उरलो.  हे पळय आज येता डेफीनेटली अ
येता. ऑफीस सुटल्या उपरांत येता. हय साडे सक येत
पूण आयक चूकून विकून जर म्हजो हो फोन म्हाज्या बायल
बिन घेतलो न्ही. (म्हणता तेन्ना सुषमा परत येता) जाल्य
तेका कांयच सांग नाका आ. आमच्या मधी किदे चलला
ना जाल्यार तू म्हाका फोणान घालतले. सगळे  ... म्हटल्या
ओ. के. थॅंक्स घेता घेता. आगो आता घेतल्या, हय हय ह
अगो म्हजी बायल म्हजी जितली काळजी घेना तीतली तूं घे
मगो ओ.के.ओ.के. पावलों पावलों.डेफीनेटली  पावलो. 
फिस सुटल्या उपरांत सारको सांजेच्या साडेसवराचेर पाव
हें म्हजे तूका उतर. ओ.के चल बाय बाय... सी यू बाय.
बाय...
( बाय बाय म्हणत सागर घुवता तेन्ना सुषमा फुड्यांत.)

सुषमा : कोण हे? कोण हे?

सागर : कोण?

**सुषमा** : हांव विचारता हे कोण? कोण हे. सांग रे.

**सागर** : (विचार करून) आगो हे.... हे..... हे... आमच्या ऑफिसातलें.

**सुषमा** : ऑफीसांतले आणि इतकी काळजी. आणि तूच म्हणतालो न्ही रे की तूमच्या ऑफीसान कोण बायल ना म्हणून.

**सागर** : अशें हावें म्हटला ? केन्ना?

**सुषमा** : स म्हयन्या पयली!

**सागर** : (परत विचार करून) स म्हयन्या पयली? आगो हेका फाटल्या दोन म्हयन्या पयलीच घेतला.

**सुषमा** : दोन म्हयन्या पयली? (रडटा)

**सागर** : आगो आगो हांवे तूजी फकणा केल्या.

**सुषमा** : फकणां फकणां म्हणत खऱ्यानीच करशीत.

**सागर** : तूका सोडून दुसऱ्यांक कोणाक पळोंक तरी शकता हांव? तू कितें आनी ते कीदे.

**सुषमा** : मागीर आता फोनार.

**सागर** : फोनार ते म्हजे फ्रेंड गो.

**सुषमा** : फ्रेंड काय किंदे ते सारखे खबर आसा म्हाका.

**सागर** : आगो फ्रेंड म्हणजे ते म्हज्याबरोबर ऑफिसांत कामाक आसा. तेजे किदेय तरी काम आसतले म्हण तेणे फोन केला आसतलो.

**सुषमा** : जाणा हांव किदे ते. आनी म्हाका सांग रे सांचो साडेसचोच टायम मेळटा तुमका मेळपाक तोवूय बीन ऑफिस सुटल्या उप्रांत.

**सागर** : स म्हटल्यात हांवे? म्हाका दिसता तूवे सारकें आयकूना.

**सुषमा** : सारकें न आयकून घेवपाक म्हजे कान किदे अण्णा सारके फुटूक ना.

**सागर** : अण्णा ये पळे रे तूका सुषमा भेड्डो म्हणटा.
(इतक्यान अण्णाची येवपाक जाय. आनी हेजेरुच)

**काळोख**

# प्रवेश ४ थो

(छुटकी 'टॅडी बॅर' बरोबर खेळत आसा.)

**छुटकी** : टॅडी बॅर टॅडी बॅर टर्न अरांऊंड (Tedy Bear tedy bear turn around, tedy bear tedy bear touch the ground, tedy bear tedy bear polish your shoes, tedy bear tedy bear go to school......)

(सागर बेडरुमांतल्यान भायर सरता.)

**सागर** : ए बाबू हांगा खेळटा? तो मांम केलो?

**छुटकी** : शी वाज येता रे म्हाका जेवपाक. आज हांव जेवना.

**सागर** : तूं हें म्हजेकडेन उलयले म्हण चल्लें. आवयकडेन उलयल्यार.... ती तुका झोडपून काडतली आसली.

**छुटकी** : ये बाबा हांव मम्माक भिना आं.

**सागर** : म्हळ्यार!

**छुटकी** : आरे बाबा मम्मान मरे म्हाका भितर ताट वाडून दवरला. म्हाका भूक ना म्हणून हांवे तें ताट थंयच सोडून हांगा आयलां.

**सागर** : मम्माक खबर आसा हें?

**छुटकी** : ना!

**सागर** : मम्माक कळ्ळे जाल्यार सोलून काडटली तूका.चल चल चल बेगीन जेव.

**छुटकी** : हांव. जेवचें ना.

**सागर** : बाबा जेव रे राजा. तूज्यो न्ही जेवणाकडेन सदाच कटकटी. तूं अशेंच रावत न्ही जाल्यार एक दीस बारीक जातलें.

**छुटकी** : आनी कितले बारीक जावपाचें उरलां हांव.

**सागर** : म्हणून म्हणटां जेव.

(भितरल्यान सुषमा छुटकीक उलो मारता.)

**सागर** : हो पळय, हो पळय राक्षस येता....

(सुषमा भायर येवपाक जाय.)

**सुषमा** : कोण येता आनी कोण राक्षस?

**छुटकी** : मम्मा बाबा मगे तूका राक्षस म्हणटा.

**सुषमा** : हय रे?

सागर : हें ना गो. आगो हांव हेका म्हणतालो की तू जेवना जाल्यार तो राक्षस येतलो.

सुषमा : आं.

सागर : तू राक्षस तर. तू राक्षीण मगो.

सुषमा : कीतें?

सागर : हें काय ना!

सुषमा : पुरो कर तूजे. ये बाय थंय ताट सोडून हांगा कसली नाची करता? घे जेव पयली.

छुटकी : हाव जेवचे ना.

सुषमा : आगो जेव गो सायबिणी.

छुटकी : ना.

सुषमा : आता तूजे चड जाले आ. पयली जेवतले.

छुटकी : ना.

सुषमा : आता हाव फाट फोडतली तूजी. जेवणाच्या नावान सदाच घरान कलकल. जेव पयली हांगा यो.

छुटकी : हांव येवपा ना.

सुषमा : कीदें (सुषमा छुटकी मारपाक तेच्या फाटल्यान वता ते बापायच्या फाटल्यान लिपता.)

सागर : आगो चल्ला किदे? तूका मगो सारखे म्हण कोणाकडे उलोंकूच कळना.

सुषमा : हय आतां तूजे कडल्यान शिकता. हाचें कडे कशे उलवप ते.

सागर : आगो भूरग्यांक म्हणता ते मोगान उलोवपाचे आसता. लाडान भरोवपाचे आसता.

सुषमा : आणि भुरग्यानूय तितलेच लाडान जेवपाचेय आसता. व्हदोळच्यान हांव हेका सांगता जेव जेव म्हण, पूण ना. हांगा थंय नाचत आसा, एक दिस भरोन पळय मागीर कळतले तूका. लाड काय कीदे ते.

सागर : म्हाका चॅलेंज करू नाका आ....

सुषमा : चॅलेंज! तुवें हाका बरे बशीन हाचेर वाजेनासतना भरोवन दाखोवपाचे.

**सागर** : पळय. मागीर फाटी सरचेना मगो. दि ताट... बाबा आसा मरे तू म्हाजे बरोबर.

**छुटकी** : (ते तकली हालोन ना म्हणता.)

**सागर** : चॉकलेट. (ते तकली हालोवन यॅस म्हणटा.) आगो घास भरोवपाक सुद्धा एका तरेची कला लागता. नाजूकसाण लागता ती तुजेकडेन ना.

**सुषमा** : आ पूरो पूरो भरय.

**सागर** : बाबा आरे (तो भरयता) हो घास मरे तूज्या बाबांचो. (ते खाता) कसो लागलो.

**छुटकी** : अं... बरो टेस्टी.

**सागर** : अं.... आता मरे हो घास तूज्या मम्माचो. (ते खाता) कसो लागलो?

**सुषमा** : आक!

**सागर** : कींदे मम्माचो घास? आक?

**सुषमा** : बरोच मोद मारला ताका.

**सागर** : आसू आसू. हो घास मरे तूज्या अण्णाचो. (ते खाता) कसो लागलो?

**छुटकी** : आ बेस्ट.

**सागर** : किंदे अण्णाचे घास सुद्धा तूका बरो लागलो. (सुषमा पळता. सुषमा सागराक रागान पळयता) आ... आ... आ.... जेव जेव तू.

**छुटकी** : ये बाबा मम्मा पळय रे म्हाज्या ताटान पळयता ती हावरी कशी.

**सागर** : ए अशें कितें पळयता बायच्या पोटान बिन वळत मगो. तूका जाय जाल्यार घे मगो.

**सुषमा** : हे म्हाका नाका.

**सागर** : ए घे गो. यो तूकाय भरयता.

**सुषमा** : शि ते कींदे म्हणतले?

**छुटकी** : मम्मा हांव दोळे बंद करता. तू घे घास.

**सुषमा** : ए ओग्गी राव थंय.

**सागर** : ए सुषमा घे गो. घे गो. घे. (ते आ करून फुडे येता) हट! केदे व्हडले आ करुन येता हात बिन खाशित म्हज्यो. (आणि तो घास सागरुच खाता.)

**सुषमा** : सागर! (म्हणून ते सायडीन वचून रावता.)

**छुटकी** : ये बाबा तू किदे जेवता म्हजे मरे ते.

**सागर** : हां तुजे ? सॉरी आ बेटा. घे जेव.

**छुटकी** : बाबा पूरो.

**सागर** : शोना हो लास्ट आणि फायनल घास घे. (ते घेता) संपा. चल चल घोट घेवून यो. आणि उदकूय पी. कळ्ळे. (ते भितर वता) पळयले मगो. हेका म्हणता भरवप. ना जाल्यार तू.....

**सुषमा** : व्हडलो किदे पराक्रम करू ना.

**सागर** : पराक्रम. आ पराक्रमा वयल्यान याद आयले. तूवें चॅलेंज कितें केली न्ही गो.

**सुषमा** : चॅलेंज कसली चॅलेंज चल हट. म्हणत (ते भितर वता) (बाय छुटकी भायर येता.)

**छुटकी** : बाबा चॉकलेट रे म्हजी!

**सुषमा** : मागीर हाडता आ शोना. आता तू खेळ आनी मागीर नीद. कळ्ळे हांव मात्सो आड पडता. (तो भितर वता)

**छुटकी** : (टॅडी बॅर घेवन खेळटा) ए टॅडी बॅर! तूं खूब मस्ती जाला मम्मा बिन काय करना. बारीक जाला पळय कितलो. हे सगळे मम्मा म्हाका म्हणता आणि हांव तूका. आनी ... एक थापट दिता (इतल्यान. डॉ. अनघा देखणे, पंचवीस वर्साचे चली भितर सरता)

**डॉ. अनघा**: हॅलो, हॅलो हाय.... घरान कोण ना.

**छुटकी** : तूज्या दोळ्यांक किदे प्रोब्लेम आसा.

**अनघा** : किद्याक गो.

**छुटकी** : तूका हांव हांगा खेळता ते दिश्टी पडना.

**अनघा** : बरेच हुशार मगो हे. बाय गो म्हाका म्हणपाचे आशिल्ले घरान कोण व्हडली मनशां बिन ना.

**छुटकी** : आसा! मम्मा काम करता.

अनघा : आणि डॅडी?

छुटकी : डॅडी न्ही गो. बाबा.

अनघा : ओ.के. बाबा कीदे करता तूजो....

छुटकी : तो न्हीदला!

अनघा : न्हीदला! म्हणजे बरे दिसना काय किदे तेका?

छुटकी : आगो हय, ह्या वेळार बाबा सदाच निदता.

अनघा : बरे बाये म्हाका सांग तूजे नाव किदें?

छुटकी : म्हज्या नावाचे सोड. पयली म्हाका तूज्या नावाचे सांग.

अनघा : किद्याक?

छुटकी : मम्माक सांगपाक नाका कोण आयला ते.

अनघा : ओ.के. म्हजे नाव बायगो अनघा राव.

छुटकी : राव हांव किद्याक रावू गो.

अनघा : आगो तू रावू नाका. म्हाका म्हणपाचे आसले म्हाजे आडनाव राव.

छुटकी : ओ.के. ओ. के. तू हांगाच राव, हाव मम्माक आपयता. मम्मा ये मम्मा बाबाक मेळपाक कोण चली आयला.

सुषमा : चली आयल्या (भीतरल्यानूच) (भायर येवन) आ! तूमी कोण?

अनघा : हाव अनघा. तूमी!

सुषमा : हाव सुषमा. सागराची मिसेस.

अनघा : आ! अच्छा अच्छा. हांव सागराबरोबर तेच्याच ऑफिसान कामाक आसना.

सुषमा : आं म्हणजे तूंच तर ते साडे संक.....

अनघा : किदे?

सुषमा : म्हाका सांग तू सागराक मेळपाक आयला न्ही.

अनघा : हय. ना. ना....

सुषमा : किदे ऑफिसातले काम आसले.

अनघा : हय, हय, ना, ना, म्हणचे हाव तेका बेशेच मेळपाक आयिल्ले.

सुषमा : बेशेच मेळपाक?

अनघा : ना ना म्हणचे म्हजे तेजेकडेन पर्सनल काम आसले.

सुषमा : पर्सनल काम? म्हाका सांग तू तेका केन्नाच्यान वळखता.

**अनघा** : एक वर्स जाले!

**सुषमा** : एक वर्स काय दोन महिने गो!

**अनघा** : ना ना एक वर्ष जाले आसतले.

**सुषमा** : मधी मधी तूच फोन करताले न्ही गो तेका. तेजी काळजी घेवपाक.

**अनघा** : आ. हय. हय. ना... ना... पूण तूमका कशे कळ्ळे.

**सुषमा** : (रागार पूण हासत) ताणेच सांगला म्हाका. ताणेंच सांगला की तूं खंय ताची खूप काळजी घेता. बरोबर तेवूय बिन सांजे ऑफीस सुटल्या उपरांत. बरोबर?

**अनघा** : म्हाका सांग सुषमा सागर न्हिदला?

**सुषमा** : हय हय उठयता उठयता. आ ताका सांगता की तूजी काळजी घेवपी मनिस आयल्या म्हण. तू बस आ धाडतां ताका.

**अनघा** : सांग हाव आयला म्हण.

**सुषमा** : सांगता सांगता तूच आयला म्हण. (बडबडतच भितर वता) (सागर भायर सरून)

**सागर** : आगो तू? आणि हांगा. आगो तू हांगा किद्याक आयले?

**अनघा** : आरे तू येना म्हण म्हाका हांगा येवचे पडले.

**सुषमा** : (भायर येवून) बरे केले.

**सागर** : (सामको गडबडून). हय हय बरे केले. बस आ हांव तूमची वळख करून दिता. तर (सुषमाक) जाणा मगो हे आमचे......

**सुषमा** : अ न घा

**सागर** : आ. हय हय अनघा ते अनघाच ते. आणि अनघा ही म्हजी बायल.....

**अनघा** : सुषमा.....

**सागर** : आं सुषमा! हय हय म्हजी बायल सुषमा. तूमी दोगाय एकामेकां म्हज्या पयलीच वळखतात. जाणा मगो सुषमा हे आमच्या ऑ फीसांत.....

**सुषमा** : एक वर्ष जाले कामाक आसा. दोन महिने न्ही.

**सागर** : हय एक वर्स जाले हे आमच्या ऑफीसांत कामाक आसा. किद्याक कामाक आसा.... घातलो मगो फोणान.

सुषमा : बसात आं हांव तूमच्या खातीर च्या हाडता.

अनघा : च्या! नाका नाका.... च्या इतकी नाका.

सागर : हय गो! च्या नाका ताका. ताका च्या, कॉफी, सॉफ्ट ड्रींक बी तसलें कायच आवडना. तेका मगो तेका मगो सादे उदक आवडता तेवूय बिन नॉर्मल. बरोबर.

सुषमा : आरे वा ऽवा ऽवा हेवूय बिन खबर आसा तूका, हाडता हाडता हाडता तेवूय बिन खतखतीत.....

सागर : किदे?

सुषमा : नॉर्मल नॉर्मल उदक हाडता (स्वरात) हे कोण लागून गेला म्हण देव जाणा हेका! सगळें खबर आसा. म्हजें मात हेका कांयच खबर ना.

(एकटेंच बडबडटा)

सागर : आगो एकटेच किदें बडबडता पिश्या भशेन.

सुषमा : हय हय हय पिश्ये लागलां म्हाका... पिश्यें , म्हणून एकटेच बडबडता.

(मोठ्या मोठ्यान पिश्या भशेंन सागराच्या आंगार वता आणि मागीर एकदा अनघाच्या आंगार वता आणि किचनात वता.)

अनघा : सागर हे किदे?

सागर : ते आमचे सदांचेंच.

सुषमा : (भितरल्यानूच) कितें!

सागर : ना ना काय ना. तेका मदीं मदीं अशें झटके मारता गो पूण तूं कीतें गो हागां. आगो आता ते म्हजेर डाव्ट घेतले तू कोण, खंयचें, आतां हांव तेका खरेंय सांगूंक शकना आणि फोटूय बिन.

अनघा : आरे पूण तूजें चल्ला कितें ॲपॉयंन्टमेंट घेता मेळपाक येना. ऑफिसान वचत जाल्यार तू लिवेर आसता. आठसुद्धा वाट पळयली तूं येना म्हण हाव हांगा आयलें. म्हाका सांग तूका मेळपाचें तरी खंय?

सागर : दोतोर तूमी सगळ्या पेशंटांची काळजी अशीच घेता. घराकडे वचून.

नघा : दर एक पेशन्टाची काळजी घेवप हे दोतोराचे कर्तव्य आणि ते हांव करता. पूण तातूंनच्या तातून सागर तूजी केस खूब स्पेशल हें म्हाका.......

गर : कारण हांव फट करुन केन्नाय मरतलों म्हणून न्ही डॉक्टर.

नघा : आरे कितें उलयता तूं हें? आरे कॅन्सराचे खूबशे पेशन्ट बरे जाल्ले आसा आणि हांवे तूजे सगळे मेडिकल रीपोर्ट अमेरीकेच्या स्पेशलीस्ट डॉक्टरा कडे डीस्कस केल्यात आणि ताणे म्हाका तूझ्या केसीन होप आसा म्हण सांगला.

गर : दोतोर तूमी १०० % गॅरेंटी दिवंक शकता हांव बरो जातलो म्हण.

नघा : पिश्याबशेन किदें उलयता १००% गॅरेंटी बरे मनशाची सुद्धा दिवपाक जायना. धडधाकट मनीस अटॅक येवन फट करुन मरुन वता. तेंची गॅरेंटी कोण दिता. सागर म्हजे आयक आमी घेवया रे एक चान्स (म्हणत ते सागराच्या फाटीर हात दवरता. इतक्यान सुषमा भितरल्यान उदक घेवून भायर सरता हे सगळे पळोन सुषमा बेजार.)

षमा : (उदकाचो ग्लास तोंडाकडे हाडून) घेया घेया.... (दोघाय अनघा आणि सागर ....) चान्स उदक पिवपाचो. (चणचणत उदक अनघाक दिता, सागराक रागान पळयता आणि भितर वता.)

नघा : सागर...

गर : पी....

(इतक्यान अण्णा भायल्यांनच्यान भितर येता.)

ण्णा : सागर हे कोण?

गर : अण्णा हे डॉ. अनघा आणि दोतोर हो आमचो अण्णा.

ण्णा : बाय कशे आसा?

नघा : बरे आसा. तूमी कशी आसा?

ण्णा : बरो आसा. बाय म्हाका सांग सागराचे दुयेस व्हडले ना न्ही? हो बरो जातलो न्ही?

घा : ना! दुयेस तशे व्हडले ना. पूण...

गर : ते गॅरेंटी दिवंक शकना.

**अण्णा** : तू वोग्गी राव रे थंय. नालायक खंयचेकडलो. सांग गो
बरो जातलो न्ही हो?

**अनघा** : अण्णा हांवे सागरची केस अमेरीकेच्या बऱ्यातल्या ब
स्पेशलिस्ट डॉक्टराकडेन डिस्कस केल्या आणि ताणें सां
हातूंन होप आसा म्हण. पूण त्या खातीर एक ऑपरेशन क
पडतलें. आणि त्या ऑपरेशनचो खर्च चड आसतलो.

**सागर** : कायच फायदो जावचो ना. उलट पैश्याची मात वाट.

**अण्णा** : तू वोगी राव रे थंय.

**अनघा** : आणि अण्णा होवूय तयार जावपाक जाय. तेन्ना तू ह
समजव. आमका चड दिस वघडावपाक उपकरना. बरे
हांव. आ. आणि सागर त्यो गूळयो बिन वेळार घे. कळले
हांव. बाय (तें वचपाक वळटा)

**अण्णा** : बाय हावूय येता तूजे बरोबर. (ते भितर वता)

**सागर** : आरे तू आणि खंय वता. हें पळय अण्णा तेजो ब्रेन वॉश
नाका कायच फायदो जावपाचो ना. पळय तें कायच
नाका. (अण्णा वता) गेलो. हो केन्नाच कायच आयकूचो
आणि अनघा बाय (इतक्यान सुषमा भायर येता आणि भें
हात धरुन उभे) आगो ए! गाडी सूसेगात चलय. आणि पा
म्हणतकूच म्हाका फोन कर. नाका नाका हावूच करतां त
फोन, बाय बाय बाय (म्हणत भितर सरता. सुषमा रा
सागराक पळयता.... सागर ताका पळयता...)

**काळोख**

**अंक सोपता**

# अंक २रो

## प्रवेश १लो

(सागर भायल्यानच्यान भितर सरता. हातांत कीदे तरी आसा.
ाणे म्हणत भितर सरता. उमेदीचे) (छुटकी अभ्यासाक बसलेले आसता
नमनीर. सागराचो आवाज आयकताच छुटकी वचून सोफा पोंदा लिपता.)
जे गीफ्ट तेणे  हाडला ते तो टेबलार दवरता.)

**ागर** : आरे वा! बाय आणि अभ्यास. देवा सूर्य पूर्वेक उगवलो काय पश्चीमेक. (एक कादेन हातान घेवून) आरे वा! गणिता! अक्षर मात मोतया भशेन. आ..... चेडू कोणाचे.

**ुटकी** : देव जाणा?

**ागर** : शोना ये शोना (ते वोगी) परत तो तेजी गणिता पळयता. शि. शि. शि. शि. शि. आरे शाण्या ही सगळी गणिता चूक.

**ुटकी** : ये बाबा हाव करता रे ती गणिता सारखीं. (लीपूनच)

**ागर** : कपल करतले तू. म्हाका सांग गो. एक आणि एक कितले.

**ुटकी** : अकरा! (भायर येवून)

**ागर** : डूकरा! एक आणि एक अकरा. आगो बाये एक आणि एक म्हणचे  दोन.

**ुटकी** : बाबा तू खंयच्या शाळेंन शिकला?

**ागर** : गव्हरमेन्ट प्रायमरी स्कूल.

**ुटकी** : म्हणूनच तू भोटो.

**ागर** : किद्याक गो भोटो किद्याक? गव्हरमेन्ट प्रायमरी स्कूलान शिकलेल्या भुरग्याक तूं भोटो म्हणता.

**ुटकी** : आरे बाबा. आयक एक आणि एक म्हणजे अकरा आणि एक अदीक एक म्हणजे दोन.

**ागर** : एक आणि एक अकरा सारखे आणि एक अदीक एक दोन हेवूय सारखे.

**ुटकी** : बाबा भोटो. बाबा भोटो.... (म्हणून नाचता)

**ागर** : हय बाये बाबा तूजो भोटो. तू हुशार.

(हे मजगतीं छुटकी भेंड मोडीत मोडीत वता.)

ये घाटणी चड भेंड मोडू नाका. भेंड कस्स जायत आणि अ
भेंड मोडून तू पायलट काय कोण ते जावचे ना.

**छुटकी** : आरे बाब हाव पायलट जावचे ना हाव दोतोर जातले.

**सागर** : दोतोर! दोतेर जातले जाल्यार तूका खूब शिकचे पडतले.

**छुटकी** : आ अशें. (ते शिकून दाखयता) आकशी.... आकशी
आकशी.

**सागर** : आगो आगो आगो अशे शिकू नाका. शिकपाचे म्हटल्यार त
भरपूर अभ्यास करचो पडतलो.

**छुटकी** : आता खूब म्हटल्यार कितलो. इतलो (ते जॉक घेवन दाखयत
इतलो? इतलो?

**सागर** : आरे बाबा अशें न्ही रे. खूप म्हटल्यार तूवें एमबीबीएस वि
शिकचे पडतले.

**छुटकी** : ये बाबा म्हाका ही मधली मधली आल्पाबेटस कीदक्याक सांग
हांव सगळी एबीसीडी जाणा. पळय एबीसीडी..... डग डग डग

**सागर** : शीं हे सायबीणीकडेन म्हणून उलोवपाचेच ना. ये बाबा यो
असो यो अभ्यास कर. हाव शिकयता यो तूका गणीता.

**छुटकी** : शि वाज येता रे म्हाका अभ्यास करपाक.

**सागर** : शि बाबा तशें म्हणीनात. यो यो हांगा यो.

**छुटकी** : ये बाबा हावे सगळो अभ्यास ऑलरेडी केला आणि आता ह
करना. आतां हांव चल्ले खेळपाक. (ते वचपाक).

**सागर** : आगो पूण.....

**छुटकी** : तूका जाय जाल्यार तू कर अभ्यास. हांव करचे ना. म्ह
खेळाचो वेळ जाला. हांव चल्ले. (ते वता.)

**सागर** : हे आताच आयकना. म्हज्या फाटल्यान सुषमाक आयकत
काय देव जाणा. (तो ती सगळी पुस्तका एकठाय कर
इतक्यान अण्णा भितर सरता).

**अण्णा** : सुषमा ये सुषमा... छुटकी छुटकी हांव आयलो गो. (सागर
पळोन सागर मात्सो बेजार आसा) आणि तू कसो आसा रे

**सागर** : आसा आसा अजून जितो आसा मरु ना.

**अण्णा** : तोंड धरून फोडतलो किदेय उलयल्यार.

**सागर** : शि मागीर तू सांगतालो रोकडोच येता म्हण मरे आणि आतां पंदरा दिसानी उदेता.

**अण्णा** : आरे घराकडे काम आसले रे.

**सागर** : जाणा कसली कामा तीं. आरे ह्या पंदरा दिसांन म्हाका कितें जालें जाल्यार रे. आरे तूका हांगा आपयला हांगा आमगेर कायमचो रावपाक. म्हज्या फाटल्यान म्हज्या छुटकीची म्हज्या सुषमाची काळजी घेवपाक.

**अण्णा** : काळजी घेवपाक? काळजी घेवपाक तूं कोण रे म्हजो? आणि तीं कोण रे? म्हाका बायल ना भूरगी एकटोच आयला एकटोच वतलो. काळजी घे खंय काळजी.

**सागर** : आरे अण्णा येतानाच बरो जावन आयला काय कितें?

**अण्णा** : हांव पियोन येव ना जाल्यार फोणान पडू ते तूका लागना. हांव आणि कोणाकडेन उलयता पळय. शि. (म्हण्टा आणि अण्णा आपल्या रूमान वता).

**सागर** : (इतक्यात सुषमा नवीन साडी घालून भायर सरता. सागर तेका पळयतूच रावता.)

**सुषमा** : सागर....

**सागर** : वॉव

**सुषमा** : कशे दिसता?

**सागर** : बिवटीफूल

**सुषमा** : ये सांग रे. सांग रे.

**सागर** : हीच. हीच तूमच्या बायलांची वायट सवय.

**सुषमा** : खंयची?

**सागर** : आपल्याची परत परत तोखणाय करून घेवपाची. पूण खरें सांगू आज मगो तू सुंदर दिसता. .... ए आज कितें स्पेशल?

**सुषमा** : स्पेशल अशे काय ना रे. नेसन शि दिसली म्हण नेसले.

**सागर** : सुंदर. ये लोक मगो म्हजेर जळता आसतले.

**सुषमा** : किद्याक?

**सागर** : कारण तूझ्या असली सुंदर बायल म्हजी आसा म्हण.

**सुषमा** : पूरो पूरो. वोगीच तारीफो के फूल बांदू नाका.

**सागर** : ये सुषमा हांवे मगो तूका कितें तरी हाडला. (तो तें गिफ्ट घे येता)

**सुषमा** : म्हाका हाडला कितें?

**सागर** : हं हं.... ते तूवे गॅस करचे पडतले.

**सुषमा** : गॅस?

**सागर** : हय. तूका तें सामकें म्हटल्यार सामकें आवडता.

**सुषमा** : अं. म्हाका आवडता? आं. फाय स्टार चॉकलेट..

**सागर** : चॉकलेटी परस तूका तें चड आवडता.

**सुषमा** : चॉकलेटी परस चड? आं. बाप्पाली गरम गरम भजी.

**सागर** : भजी न्ही गो.

**सुषमा** : मागीर कितें

**सागर** : तूं गॅस कर

**सुषमा** : ए अशे किदे. म्हज्यान जायना रे गॅस करपाक.

**सागर** : तूज्यान जायना जाल्यार हांव तें व्हरून केळयेकांनीक दित आं. (तेच्या तोंडा मुखार हाडून) आगो वोळखय गो. गॅस व कर. (ह्या मजगतीत सुषमा सागराच्या हातातले गिफ्ट काड उघडून पळयता.)

**सुषमा** : वॉव मोगऱ्यांची फाती. (वास घेवन) थँक्स आं सागर. म्हज आवडी निवडी याद आसा तर तूका.

**सागर** : आगो ह्या गजालीचेरूच तर हो संवसार चलता. हांव कांय विसरूना. आणि केन्नाच विसरचोंना. (ते फाती माळपाक व तो तेका आडयता)

**सागर** : सुषमा आज हांव माळूं तूका फांती?

**सुषमा** : आं... आज एकदम मुडार सो. सारखो आसा न्ही. घे माळ (ह्या मजगतीत तो तेका फाती माळूक जाता).

**सागर** : ...सुषमा ही फांती माळून तूं आनी उठून दिसपाक लागलें. थे वेळ अशेंच राव म्हाका तूका दोळे भरून पळोवंदी. फाल्याच दिस कसो उजवाडत सांगू नजो.

**सुषमा** : आरें कितें उलयता तूं.

सागर : सुषमा म्हाका एक सांग गो. घोव मेलो जाल्यार बायल फूला किद्याक माळीना. बरे कपडे, मंगळसूत्र, कपळाचो कूंक किद्याक लायना. खंयच्याय लग्ना कार्याक किद्याक ती चार चवगांत मिसळना. हे लोक तिका पयस पयस किद्याक दवरता.

सुषमा : तें म्हाका खबर ना.

सागर : हें पळय सुषमा फाल्या सकाळी जर म्हाका कितेंय जालें न्हीं जाल्यार तूं मात तशें रावू नाका आं. अशेंच राव.

सुषमा : शीं नाका आशिल्लें कायचें काय उलों नाका. तूका कांयच जावचें ना. आणि तूजे पयलीं हावूंच मरतलें. (म्हणत भितर वता.)

सागर : सुषमा.... (आणि पिकासावान बसता)
(इतल्यान अनघा भितर सरता)

अनघा : सागर....

सागर : अनघा तूं आणि हांगा कित्याक.

अनघा : सागर एक गुड न्यूज आसा

सागर : दोतोर कित्याक म्हजी फकाणां करता.

अनघा : आरे फकाणां करीना. खरेंच गुड न्यूज आसा तूं सामको म्हटल्यार सामको बरो जातलो.

सागर : दोतोर किद्याक खोटी सपनां दाखयता. हाव जाणा म्हजें या संवसारात खूप कमी दिस उरल्या.

अनघा : आरे कायच्या काय कितें उलयता. हें पळय सागर तुजे एक ऑपरेशन जायत न्ही सागर ...

सागर : दोतोर ऑपरेशनाक पयशें लागता आणि ते म्हजेकडेन ना.

अनघा : आरे म्हणूनच तर हांव हांगा आयलां न्ही.

सागर : म्हणजे ?

अनघा : सागर गर्व्हरमेंटाचो खूबशो अश्यो स्कीमी आसात. तातूंतल्या तातूनच एक मेडिक्लेम म्हणून आसा.

**सागर** : अनघा गर्व्हरमेंटाचो स्कीमी मेडिक्लेम हें सगळें करतलो
जाल्यार तेका खूप वेळ लागता. आनी देवान तितलो वेळ म्ह
दिवंकना.

**अनघा** : आरे पूण असो हातान हात धरुन बसप सारखे न्ही. हें प
यत्न करपाक जाय रे. आरे खूबशे कॅन्साराचे पेशंट बरे.

**सागर** : पूरो कर. पूरो कर. दोतोर तू म्हाका परत परत जाणीव क
दिवं नाका म्हाका कॅन्सर जाल्याची, त्रास जाता म्हाका.
पळय दोतोर म्हजे थोडेशेच दिस उरल्या ह्या संवसारान अ
तें हांव सूखान जगूंक सोदता.

**अनघा** : आरे पूण!

**सागर** : हांव जाणा दोतोर तूं म्हजे वायट चिंतना, आयज मेरेन ह
म्हज्या फॅमीलीक कसलोच त्रास दिवना. तेणी दुख्ख म्हण्ट
पळोवना. हे कळ्ळें कि म्हज्ये थोडेच दिस ह्या संवसारात उरल
जाल्यार ती कोसळटली. अनघा म्हाका तांच्या आयुश्य
वादळ हाडपाचे ना. प्लीज अनघा ह्या टॉपीकाचेर तू केन्न
उलोवचेंना अशे उतर दी. प्लीज (म्हणून तो अनघाचो ह
आपल्या हातात घेता. इतक्यांत सुषमा भायर सरता.)

**सुषमा** : आरे वा..वा...वा..त्या दिसा खांदार आणि आज किदें क
म्हटल्यार हातान हात. वा...

**अनघा** : आं..सुषमा कशें आसा तूं?

**सुषमा** : म्हाका कसली धाड मारल्या? आणि कितें गो आजूय अ
फिसाचेंच काम आसलें? काय आणि किदे गो?

**सागर** : सुषमा!

**सुषमा** : ना, ना! चलूं दी आं तुमचें, चलूं दी. हांवूच वता. तुमका वोगी
त्रास नाका. डिस्टर्ब नाका.

**सागर** : आगो कितें उलयता तूं?

**सुषमा** : आवय आवय.. हांव उलयता तें वायट दिसलें तुका. सॉरी अ
सॉरी. सॉरी गो बाय.

**सागर** : शिं...अनघा आमी भितर वचून उलोया. हांगा कांयच फायद
जावचो ना.

**सुषमा** : हय हय हांगा रावून कांयच फायदो जावचो ना. तुमी भितर वचूनूच उलयात. फायद्याचे.

**सागर** : सुषमा कितें उलयता गो तूं? शीं नॅरो मायंडेड

**सुषमा** : हय हय हांव नॅरो मायंडेड आणि तूं उच्च विचारी न्ही रे.

**सागर** : तुजेकडेन न्हीं कांयच उलोवपाचे ना. अनघा चल यो.

**अनघा** : नाका सागर. हांव वता.

**सुषमा** : नाका गो बाये तूं वचू नाका. तो बेजार जायत. हावूंच वता हांगाच्यान. न्ही रे सागर?

**अनघा** : सूषमा आयक.

**सुषमा** : तू वोगी राव गो थंय. तुजेकडे हांव उलयना. हाव म्हज्या घोवाकडे उलयता आणि म्हाका तुजेकडेन उलोवपाचो इंटरेस्टूय ना. हं...

**सागर** : सूषमा वोगी राव थंय. अनघा आय ॲम सॉरी.

**अनघा** : आरे सॉरी किद्याक? आसू. पूण सागर तू सुषमाक खरे खरे सांगून किद्याक उडयना. किद्याक जिवाक त्रास करून घेता. नाजाल्यार हाव सांगू?

**सुषमा** : कायच सांगपाची गरज ना. कितें कितें सांगपाचे आसा पळय ते तो म्हाका सांगतलो. तूं न्ही. आणि तूं कोण गो म्हाका सांगपाक? ही जी तुझी शाणेपणा आसा पळय ती तुज्या घरा वचून कर. हांगा नी. तुजे आयकपाक हांगा हाव बेकार ना.

**सागर** : सुषमा प्लीज प्लीज.... अनघा हांगा तुजो अपमान जाता तो पळोंक जायना म्हज्यान. प्लीज प्लीज वच तू. हांव तुज्या पाया पडता. आणि.... आणि केन्नाच हांगा येव नाका. प्लीज... (अनघा वता.)

**सुषमा** : सागर किदे चल्ला रे हे.

**सागर** : आगो तू समजता तशे आमच्ये भितर काय ना गो शाण्या.

**सुषमा** : शाण्या शाण्या म्हणून म्हाका शेणयो लाव नाका. आनी कितें सांगपाक सोदताले रे ते म्हाका. किदे रे. जे तुज्यान म्हाका सांगपाक जायना.

**सागर** : कशे सांगू तुका?

**सुषमा** : कायच सांगपाची गरज ना. वचना.... वचना... तेका भायर सोडपाक. ना जाल्यार तुवूय चल तेजेबरोबर. (रडत) आवय बापायन सांगलेले भुरगो बरो, लग्न जा. म्हणून जाल्ले आनी आता पंदरा वर्षांनी म्हाका तुजी ही ही रूपां पळोवपाक मेळटा. पूण लक्षान दवर हाव सुषमा अशें तशें सोडचेंना. लक्षान दवर जर तर तें परत ह्या घरांन आयलें, जाव तेचो फोन सुद्धा तुवें घेतलो जाल्यार हांव तेका वोगी रावपाना. जितेंच मारतलें.

**सागर** : सुषमा आयक गो म्हजे.

**सुषमा** : ना तुजे न्ही कांयच आयकपाचे ना. तुवें हे आयकुच्या परस देवळांत वचून बशील्ले चड बरे.

**सागर** : सुषमा आयक गो.

**सुषमा** : ना. (ते भायर देवळांत वता).

**सागर** : सुषमा आयक गो म्हजे. आगो चड दिस तुमच्या बरोबर आसचोना गो हांव. आनी म्हज्याच मरणाची गजाल हांव तुका कशी सांगू? देवा देवा कसली परिक्षा पळयता रे म्हजी. हे खिणा खिणाचें मरण दिंवचे परस एकदाच मारून उडय आनी कर मेकळो म्हाका ह्या त्रासांतल्यान. जायना रे जायना रे म्हज्यान सोसूंक.

(हांगा सागराक खोकलेचो अटॅक येता. तेन्नाच अण्णा भायर येता. सागराच्या तोंडातल्यान रगत येता.

**अण्णा** : (अण्णा उदक घेवून येता) सागर तुझ्या तोंडातून रगत येता.

**सागर** : आ...(सागर पळयता आणि अण्णाक घट्ट वेंग मारता.)

**काळोख**

# प्रवेश २ रो

**अण्णा** : (योगा करपाक खुर्चेर बसला.)

**सुषमा** : (अण्णाक पळोवन) हो रामदेव बाबा जाला दिस्ता. मशीन आसा काय कानाक (पळयता मशीन नासता) (हाचेकडे काय उलोन फायदो ना माज्या कामाक गेल्यार बरे) (ते भितर वचपाक नी अण्णा ताका उलो करता.)

**अण्णा** : सुषमा....

**सुषमा** : पाड पडले...पडले फोंडांत.

**अण्णा** : किदें गो परतून किद्याक वताले?

**सुषमा** : (काय उलयना)

**अण्णा** : तूका किदे सांगपाचे आशिल्ले सांग मगो फाटी फूडे कित्याक जाता?

**सुषमा** : (कायच सांगना).

**अण्णा** : अगो भियेव नाका गो कितें सांगपाचे आसल्यार सांग.

**सुषमा** : कानाक हात लायता.

**अण्णा** : आ, कान दुखता?

**सुषमा** : कपलार हात मारता.

**अण्णा** : तकली फोट्टा.

**सुषमा** : सगळेच हालता.

**अण्णा** : आगो घूवंळ येता काय कितें तुका? आगो बस बस.

**सुषमा** : (ॲक्शन करून अण्णाक सांगता कानाचें मशीन लाय म्हणून.)

**अण्णा** : आं आयलें लक्षांत म्हणून तूं भिताले म्हजेकडेंन उलोवपाक बरे आता सांग.

**सुषमा** : अण्णा माका सागराचो भंय दिसपाक लागला.

**अण्णा** : कित्याक गो? किते जालां? तो तुजेकडेन झगडता, मारता, बडयता?

**सुषमा** : ना रे अण्णा ताणे आज मेरेन केन्नाच म्हजेर हात उखलूंक ना.

**अण्णा** : मागीर कितें जालां तर?

**सुषमा** : हाली तो न्ही विचित्रूच वागता. कितेंय जालें काय आपल्या फाटल्यान तुमचें कितें जातलें? अशेंच उलयता म्हाका तांचें कांयच समजना.

**अण्णा** : इतलेच मगो? हांव आसताना तूं कायच भियेंव नाका. तो चिंतता तशे हांव केन्नाच जावपाक दिवचोंना.

**सुषमा** : म्हणजे अशें कितें चिंतता तर तो?

**अण्णा** : तो? काय ना काय ना गो.

**सुषमा** : अण्णा तूवूय म्हजें पासून कितें लिपयता काय कितें?

**अण्णा** : आगो हांव आनी बाबडो कितें लिपयतलो. चल तूं म्हाका इल्ली चा घेवन यो आनी सागर कितें करता?

**सुषमा** : सकाळी उठील्ल्याक कितें कागदा, फायली धवळीत आसा कोण जाणा कितें करता तो. (सुषमा भितर वता.)

**अण्णा** : पाड पडू हाचें हो एक दिस तरी म्हाका फोडांन घालतलो. हांव आयुश्यान केन्नाच फट उलोव नाशिल्लो. हाका लागून उलोवचें पडलें. (सागर येता.)

**अण्णा** : कितें? कितें करतालो भितर?

**सागर** : कांय ना रे मरणाची तयारी करतालो.

**अण्णा** : मागीर जाली तयारी. जाली तयारी बांधली तिरडी, धवो कपडो, बुडकूलो सगळे हाडले चल तर या मसणात.

**सागर** : अण्णा तूं म्हणून सॉलिड आं म्हजीच विकेट उडयली.

**अण्णा** : तुजो काका हांव.

**सागर** : हय रे माझ्या सायबा, चुकलो.

**अण्णा** : सांग तर कितें करतालो?

**सागर** : आरे हावें थोड्यो विम्याच्यो पॉलिसी केल्यात रे त्यो हांव सुषमाक दाखोंवक सोदतालों. फाल्यां दिस कसो उजवाडता सांगू नजो नी म्हणून.

**अण्णा** : आरे तू पयली स्वतःच्या जीवाचे पळय रे मागीर फॅमीलीचें.

**सागर** : आरे अण्णा हांव म्हटल्यार म्हजी फॅमिली आणि देवान माका खूप कमी वेळ दिला.

**अण्णा** : आरे तूं जर बरो जालो जाल्यार तांचे बरे जातलेच न्ही.

**सागर** : बरोबर, पूण हांव बरो जावचोच ना न्ही. घे अण्णा ह्यो माज्यो थोड्यो पॉलीसी आसा त्यो तांकां फायद्याक पडटल्यो.

**अण्णा** : आरे फाल्याचें चिंतनाका रे आयज बरो आसा मरे जालें. आमी उपाय करूया तू जातलो बरो.

**सागर** : कितें गॅरेंटी?

**अण्णा** : कसली गॅरेंटी मागता तू आरे धटधाकट मनीस फट्ट करून वता ताची कोण गॅरेंटी दिता? फाल्याच्या भयान आयचोय दिस भयान जगप हें सारके न्ही.

**सागर** : हांव मरणाक भिना रे पूण हांव एक बापूय. हांव म्हज्या भुरग्याचे चितना जाल्यार कोण चित्तलो? (इतल्यान सुषमा 'चा' घेवून येता.)

**सुषमा** : अण्णा घे 'चा' घे.

**सागर** : सुषमा आयलें तूं बरें जालें. हें एकदां पेपर माश्शे पळोन घे.

**सुषमा** : पेपर कसले पेपर? अण्णा कितें हे?

**अण्णा** : माका कांय खबर ना गो बाये? तूं ताकाच विचार हांव चल्लो.

**सागर** : आगो भिता कितें ह्यो म्हज्यो विम्याच्यो पॉलिसी.

**सुषमा** : म्हाकांश्यो दाखयता ह्यो पॉलीसी?

**सागर** : आगो तूं नॉमिनी आसा नी गो म्हणून.

**सुषमा** : आं. हाव नॉमिनी म्हणून. आता तुझ्या मनांत नॉमिनी बदलपाचो विचार आसा काय कितें?

**सागर** : हि पळय ही पॉलिसी हीचे पयशे थोडे.

**सुषमा** : थोडे म्हाका?

**सागर** : ना गो सगळे.

**सुषमा** : दी सगळे दी ताका आमी कोण तुजीं?

**सागर** : आगो ही बायची पॉलिसी काडलेली.

**सुषमा** : बरे जालें ताचें तरी एक जाग्यार घाले. ना जाल्यार आसा आमी.

**सागर** : बाय व्हडलें जालें न्ही की तुका टेंन्शन ना.

**सुषमा** : आं म्हणजे तुवें सामके थारायला तर आमकां सोडून वचपाचें.

**सागर** : आगो हांवें कांयच थारवंक ना गो. हांव कोण थारावपी?

**सुषमा** : हय हय तूं कसो थारालतलो तें आसा न्ही सगळे थारपाक अनघा.

**सागर** : म्हणजे तुका अण्णान सांगलें काय कितें?

**सुषमा** : म्हणजे अण्णाकूय खबर आसा? आता विचारल्यार सांगतालो आपल्याक काय खबर ना म्हणून. फटकिरे रे बाबा हे दादले सगळे फटकिरे हांचेर केन्नाच विश्वास दवरचपाचो ना.

**सागर** : म्हणजे तू जाणा. हें पळय सुषमा.

**सुषमा** : कळ्ळे जे किदें घडता ते दोळयांमुखार घडटा म्हजे दोळे फुटूना.

**सागर** : हांव तुंका सांगपाचोच आशिल्लो पूण....

**सुषमा** : तुजेंकडेन सांगपाक जावूना.

**सागर** : हय आय ॲम सॉरी.

**सुषमा** : सॉरी, सॉरी म्हटलें की सगळे सोपलें पूण हाका माफी ना. हांव तुका केन्नाच माफ करचें ना. म्हजें सोड छुटकी छुटकीचें कितें?

**सागर** : जाणा हांव तुमका खूप त्रास जातलें. पूण जें नशिबांन बरयला तेंच जातलें.

**सुषमा** : नशिबांन बरोवना तुवें केल्या ही सगळीं लफडीं.

**सागर** : लफडीं आगो तू कित्याविशी उलयता.

**सुषमा** : हांव त्या ६.३०च्या शोंच्या हिरोईनीविशीं उलयता. अनघा. पाड पडलेल्ल्यान माझ्या संसाराची वाट लायली.

**सागर** : आगो तू किदें उलयता?

**सुषमा** : आ. उलोवनाका ताका कितेंय म्हटल्यार तूका दुखता इतल्याचेर पावलां.

**सागर** : आगो शाण्या! शी इज जस्ट माय फ्रेंड देटस ऑल.

**सुषमा** : फ्रेंड काय कोण ते आतां कळ्ळें, पॉलिसी म्हाका दाखयता कित्याक? ताज्या फाटल्यान वचपाक?

सागर : आगो, हांव तुका पॉलिसी इतल्याकूच दाखयतालो कि माका फाल्यां कितेंय जालें जाल्यार तुका कळचें खंय कितलें केला तें ताज्या फाटल्यान वचपाक ते माझे कोण गो?

सुषमा : तें तुजें कोण तें आमका कशें कळटले?

सागर : कशें कळटलें म्हणजे तुका म्हजेर विस्वास ना? खयचेय चलयेक पळोवन भुलपाक तुका हांव सामको चीप दिसलों. तुका सोडून हांवें केन्ना दुसरे बायलेकडेन पळयलां? तुजे आनी छुटकीशिवाय म्हज्या लायफान आनी कोण ना गो? (ताका त्रास जाता). (इतल्यान अण्णा भायल्यानच्यान भितर सरता आनी भायर कोणाकडे तरी झगडता.)

अण्णा : (तायट जावन) मालकिर्याद तूं विचारपी कोण रें म्हाका? तुज्या घरा रावलां तुजें खाता हांव? बेशमेर्द. दुसरे फावट अशे म्हणूच तूं व्हाणांनी तोंड फोडटां. तूं वळखता म्हाका? अण्णा म्हणटात म्हाका.

सागर : आरे कितें जालें? कित्याक हो बोवाळ आनी कोणाक गाळी मारता.

अण्णा : आरे हो बारवालो मालकिर्याद खंयचो म्हाका म्हणटा आनी कितले दीस हांगा रावतलो? आरे हाका कित्याक पडलां हांव कितले दीस रावतलो तें.

सागर : सारकें तुजें तूं कितें ताचें खाता? ताका सांगपाचें तुवें हांव कायमचो रावतलो म्हणून. राव हांव फाल्यां विचारता ताका.

अण्णा : कितें विचारता? तो कितें चूक उलयता तो सारकें उलयता.

सागर : अण्णा कितें उलयता रे तूं?

अण्णा : आरे हांव हांगा कायमचो रावपाक तूं म्हजो कोण? म्हाका बायल ना, भुरगीं ना. हांव एकटो एकटो संवसारात आयला. एकटोच वतलो.

सागर : अण्णा अशें कित्याक उलयता आमी आसा तीं कोण? आमी तुजीच न्ही? हांव तुजो पूत सुषमा तुजी सून, छुटकी तुजी नात.

**अण्णा** : तूं म्हजो पूत? तूं म्हजो पूत न्हय. तूं स्वार्थी मरे स्वता खातीर जगपी म्हजी बायल, म्हजी भुरगीं, तांचो फुडार हांव कोण रे! म्हज्या उतराक कांयच वालोर ना?

**सागर** : अण्णा अशें कितें उलयता? आयज मेरेन हांवें तुजें कितें आयकुकना सांग.

**अण्णा** : तूं म्हजें आयकता जाल्यार ऑपरेशन करून घे म्हटल्यार कित्याक आयकना?

**सागर** : अण्णा! प्लीज रे ऑपरेशनाचें सोडून आनी कितेंय उलय. म्हाका खबर आसा तातूंत कांयच फायदो जावचोना.

**अण्णा** : म्हणजे तूं म्हजें आयकुचो ना तर?

**सागर** : हें सोडून बाकी कितेंय आयकतां.

**अण्णा** : राव तर. हांव म्हणून तुजें कित्याक आयकूं! हांव सुषमाक सगळें सांगून उडयतां.

**सागर** : नाका अण्णा प्लीज पायां पडटा ताका कांयच सांगू नाका.

**अण्णा** : तूं म्हजें आयकना जाल्यार हांव तुजे कित्याक आयकूं! हांव सांगपी म्हणजे सांगपी.

**सागर** : हय! सांग, चल म्हणजे हांव, फाल्यां मरतलों तो आयजूच मरपाक मेकळो कारण हें आयकना फुडें तांची दशा जातली ती म्हज्यान पळोवपाक जावचीना. एकवेळ सुषमा जितें उरतशे म्हाका दिसना. सांग चल उडय मारून सगळ्यांक कर काबार सगळें. (बसता)

**अण्णा** : इतलों फातरां काळजाचो न्ही रे हांव (अण्णा भितर वता.) (छुटकी रडत भायर येता.)

**सागर** : बाबा कितें जालें कितें जालें शाण्या कित्याक रडटा?

**छुटकी** : म्हाका न्हीद येंना म्हाका भंय दिसता.

**सागर** : भंय दिसता मम्मा खंय आसा तर रे?

**छुटकी** : म्हाका मम्मा नाका, म्हाका तूं जाय.

**सागर** : बरें आसूं यो तुका हांव धरता यो. (तो ताका उबारून धरता) म्हजें मांडयेर न्हिदता मरे?

**छुटकी** : हय, तूं म्हाका काणी सांग.

**सागर** : काणी आतां आनी खंयची काणी न्हीद तूं. (छुटकी रडता.)

**छुटकी** : ना म्हाका काणी जाय.

**सागर** : बरे काणी सांगतां एक आशिल्लो कावळो एक आशिल्लो कोलो.

**छुटकी** : म्हाका कोल्याची नाका म्हाका राजा राणीची सांग.

**सागर** : बरें बाबा, राजा-राणीची सांगतां एक आशिल्लो राजा आनी एक आशिल्ली राणी आनी तांकां एक ल्हानशी राजकुमारी आशिल्ली सारकी तुजेभशेन (छुटकी परत रडता.)

**छुटकी** : म्हज्या केसांनी हात घाल. (रडत)

**सागर** : पूण एक दीस तो राजा तांकां दोगांकूय सोडून खूब खूब पयस वचपाचो आसता. ते राजकन्येची खूब सपनां आसतात. दोतोर जावपाचीं, ॲडव्होकेट जावपाची, पायलट जावपाचीं पूण तो कपल फूटको राजा आपल्या बायची सपनां केन्नाच पुराय करपाक शकना म्हणून आपल्या नशीबाक रडटा.

(सागर छुटकीक काळजाकडेन घट धरून रडटा. आपल्या भितरुच.)

**काळोख**

# प्रवेश ३ रो

(अण्णा पासयो मारता. कोणाची तरी वाट पळयता.)

**अण्णा** : अजून कशें पावलें ना हें? हाका सांगिल्लें बेगीन यो म्हणून ही येत जाल्यार सगळी वाट लागतली. आयलें दिसता. (अनघा भितर सरता.)

**अण्णा** : आगो कितलो वेळ तुका? केन्नाच्यान तुजी वाट पळयतां. तुका सांगिल्लें जाता तितले बेगीन यो म्हणून.

**अनघा** : सॉरी सॉरी अण्णा ट्रॅफिकान शिरकलें, कशीच गाडी भायर काडपाक मेळूंकना ती दोगांय ना न्ही घरान.

**अण्णा** : सुषमा छुटकीक घेवन बाजारांत गेलां बर्थडेची खरेदी करपाक म्हणून तुका येवन वच म्हणिल्लें.

**अनघा** : बरें सांग कित्याक आपयल्लें.

**अण्णा** : हें पळय बाय, ताच्या ऑपरेशनाक आतां वेळ लावून उपकारना. दिसान् दीस ताचें दुयेंस वाडत आसा. काल आनी ताणें आमकां भियेवन मारलें. कितेंय बरें वायट जालें जाल्यार सगळी मेहनत फुकट वतली.

**अनघा** : ना ना. अशें कायच जावचें ना म्हजे वटेन हांवें सगळी तयारी केल्या. फकत दोतोराक आमी डेट दिवपाची उरल्या.

**अण्णा** : म्हजीय पयशांची तयारी सगळी जाल्या. मागीर केन्ना करुंया तर?

**अनघा** : ऑपरेशन करपाक ताका दोन दीस तरी पयली ॲडमीट करचो पडटलो. तो तयार जातलो?

**अण्णा** : ताजो बापूय तयार जायत. तो अजून म्हाका वळखूंक ना. चड करीत जाल्यार चोंबडी बांदून ताका व्हरपाक हांव कमी ना.

**अनघा** : मागीर सुषमाचें कितें? म्हाका दिसता ताकाय ही गजाल बेगीन कळपाक जाय. कितलेंय जाल्यार ती ताची बायल. ताका काळखांत दवरप सारकें न्ही.

**अण्णा** : तूं म्हणटा तें बरोबर. ताकाय सांगपाचो आतां वेळ आयला.

**अनघा** : कितें सांगपाचें तें तूच सांग. म्हाका जाल्यार तें दाव्या दोळयान पळोवन घेना. ताका पळयल्यारूच म्हाका थरथरो भरता.

अण्णा : तें कितें करपाचें तें हांव पळयतां. तू म्हजें आनीक एकूच काम कर. सुषमा आसतना तू हांगा यो.

अनघा : अण्णा कितें उलयता तूं? सुषमा आसतना हांव हांगा तूं म्हाका त्रासांत घालतलो.

अण्णा : तूं कांयचं टेन्शन घेवं नाका. ताका कितें सांगपाचें तितले हांव सांगतां. तूं फकत हांगा यो.

अनघा : बरें तूं म्हणटा जाल्यार येता हांव, पूण म्हाका सांग सागर खंय आसा?

अण्णा : बाय गो तो न्हिदला कालच्यान सामको जाम आसा.

अनघा : तशें जाल्यार हांव ताका मात्शे पळोन वता.

अण्णा : नाका नाका ते सुषमा केन्नाय भितर सरत.

अनघा : तूं टेन्शन घेवं नाका. हांव ताका रोखडेच पळयतां आनी वता.

अण्णा : बरें बांये रोखडेच भायर यो आं. (अनघा भितर वता.) (अण्णा पासयो मारता. दारार वचून पळयता इतल्यान सुषमा येता तें दिसता.)

अण्णा : आरे देवा! ही कयकया पावली, आतां अनघाची धडगत ना. आतां कितें केल्यार बरें. (अण्णा आपल्या रूमान वता.) (सुषमा आणि छुटकी येता.)

छुटकी : बाबा...बाबा..बाबा...

सुषमा : आगो बाये बोवाळ कित्याक मारता. बाबा रातभर न्हिदूना आता न्हिदला आसतलो तूं ओग्गी राव मात्शें.

छुटकी : आगे मामा, म्हाका हो ड्रेस दाखवपाक जाय बाबाक.

सुषमा : अगो बाय मागीर दाखय.

छुटकी : म्हाका तूं मगे सामकी पचकी, हांव उलयना तुजेकडेन (म्हणत ते किचनांत वता). (सुषमा मात्शें बसता, तोंड पुसता. सागराची खबर घेवपाक भितर वचपाक तेच अनघा सागराच्या रूमांतल्यांन भायर सरता).

सुषमा : तू आनी हांगा आमच्या बेडरूमांत?

अनघा : (आबूज) दार...उगडें आसलें..अण्णान...आपयल्ले...

**सुषमा** : फटकिऱ्या इतले दीस तूं सागराक मेळपाक येतालें आनी आज अण्णान आपयलां म्हणटा.

**अनघा** : हांव खरेंच सांगता म्हाका अण्णान आपयिल्लें.

**सुषमा** : अशें बरें आसा तूं हांताच्या काकणाक हारसो कित्याक राव, हांव अण्णाक आपयतां. सोमतोच सोक्ष मोक्ष लागूंनी आनी जर तूं फट उलयतां म्हणून कळत जाल्यार मागीर हांव तुका पांयां पडतां... तूं. प्लीज दाखयता राव. (अण्णा SSS म्हणून सुषमा भितर वता).

(बेडरूमातल्यान सागर भायर सरता. अनघाक पळोवन आबूज.)

**सागर** : आगो तूं हांगा किदें करता? सुषमा आता घरान तूं हांगा राव नाका वच हांगचे. प्लीज पाय पडता तुका चल बेगीन भायर सर.

**अनघा** : आरे सागर म्हजे आयक. म्हाका अण्णान हांगा आपयला म्हणून हांव हांगा आयलां.

**सागर** : किदें? तुका अण्णान हांगा आपयला. ह्या अण्णाची तकली ना जाग्यार सुषमा घरात आसा आणि तूका आपयला? हो माका घालतलो असल्यानी फोणान. हांव तुज्या पायां पडटा. तूं प्लीज हांगासल्ल्यान मात्शें वच.

**अनघा** : आरे पूण अण्णा...

**सागर** : पूण बी कांय ना. सायबीणी वच हांगाचें. (म्हणत हाताक धरून ओडता. इतल्यांन सुषमा भायर सरता.)

**सुषमा** : अरे वा..वा..वा..वा...हिरो हिरोईनीक खंय व्हरता... व्हर व्हर व्हर.... अगो चल चल चल.... ताज्या वांगडा काय बरो हातान हात धरला (सागर हात सोडता) आरे आरे सोडलो किद्याक? धर. धर सारको धर धर खंय व्हरतलो ताका बेडरूमांत? व्हर व्हर व्हर.

**सागर** : आगो सुषमा हांव ताका भितर व्हरनाशिल्लो हांव ताका भायर घालतालो.

**सागर** : काणी आतां आनी खंयची काणी न्हीद तूं. (छुटकी रडता.)

**छुटकी** : ना म्हाका काणी जाय.

**सागर** : बरे काणी सांगतां एक आशिल्लो कावळो एक आशिल्लो कोलो.

**छुटकी** : म्हाका कोल्याची नाका म्हाका राजा राणीची सांग.

**सागर** : बरें बाबा, राजा-राणीची सांगतां एक आशिल्लो राजा आनी एक आशिल्ली राणी आनी तांकां एक ल्हानशी राजकुमारी आशिल्ली सारकी तुजेभशेन (छुटकी परत रडता.)

**छुटकी** : म्हज्या केसांनी हात घाल. (रडत)

**सागर** : पूण एक दीस तो राजा तांकां दोगांकूय सोडून खूब खूब पयस वचपाचो आसता. ते राजकन्येची खूब सपनां आसतात. दोतोर जावपाचीं, ॲडव्होकेट जावपाची, पायलट जावपाचीं पूण तो कपल फूटको राजा आपल्या बायची सपनां केन्नाच पुराय करपाक शकना म्हणून आपल्या नशीबाक रडटा.

(सागर छुटकीक काळजाकडेन घट धरून रडटा. आपल्या भितरुच.)

**काळोख**

# प्रवेश ३ रो

(अण्णा पासयो मारता. कोणाची तरी वाट पळयता.)

**अण्णा** : अजून कशें पावलें ना हें? हाका सांगिल्लें बेगीन यो म्हणून हीं येत जाल्यार सगळी वाट लागतली. आयलें दिसता. (अनघा भितर सरता.)

**अण्णा** : आगो कितलो वेळ तुका? केन्नाच्यान तुजी वाट पळयतां. तुका सांगिल्लें जाता तितले बेगीन यो म्हणून.

**अनघा** : सॉरी सॉरी अण्णा ट्रॅफिकान शिरकलें, कशीच गाडी भायर काडपाक मेळूंकना ती दोगांय ना न्ही घरान.

**अण्णा** : सुषमा छुटकीक घेवन बाजारांत गेलां बर्थडेची खरेदी करपाक म्हणून तुका येवन वच म्हणिल्लें.

**अनघा** : बरें सांग कित्याक आपयल्लें.

**अण्णा** : हें पळय बाय, ताच्या ऑपरेशनाक आतां वेळ लावून उपकारना. दिसान् दीस ताचें दुयेंस वाडत आसा. काल आनी ताणें आमकां भियेवन मारलें. कितेंय बरें वायट जालें जाल्यार सगळी मेहनत फुकट वतली.

**अनघा** : ना ना. अशें कायच जावचें ना म्हजे वटेन हांवें सगळी तयारी केल्या. फकत दोतोराक आमी डेट दिवपाची उरल्या.

**अण्णा** : म्हजीय पयशांची तयारी सगळी जाल्या. मागीर केन्ना करुंया तर?

**अनघा** : ऑपरेशन करपाक ताका दोन दीस तरी पयली ॲडमीट करचो पडटलो. तो तयार जातलो?

**अण्णा** : ताजो बापूय तयार जायत. तो अजून म्हाका वळखूंक ना. चड करीत जाल्यार चोंबडी बांदून ताका व्हरपाक हांव कमी ना.

**अनघा** : मागीर सुषमाचें कितें? म्हाका दिसता ताकाय ही गजाल बेगीन कळपाक जाय. कितलेंय जाल्यार ती ताची बायल. ताका काळखांत दवरप सारकें न्ही.

**अण्णा** : तूं म्हणटा तें बरोबर. ताकाय सांगपाचो आतां वेळ आयला.

**अनघा** : कितें सांगपाचें तें तूच सांग. म्हाका जाल्यार तें दाव्या दोळयान पळोवन घेना. ताका पळयल्यारूच म्हाका थरथरो भरता.

**अण्णा** : तें कितें करपाचें तें हांव पळयतां. तू म्हजें आनीक एकूच काम कर. सुषमा आसतना तू हांगा यो.

**अनघा** : अण्णा कितें उलयता तूं? सुषमा आसतना हांव हांगा तूं म्हाका त्रासांत घालतलो.

**अण्णा** : तूं कांयचं टेन्शन घेवं नाका. ताका कितें सांगपाचें तितले हांव सांगतां. तूं फकत हांगा यो.

**अनघा** : बरें तूं म्हणटा जाल्यार येता हांव, पूण म्हाका सांग सागर खंय आसा?

**अण्णा** : बाय गो तो न्हिदला कालच्यान सामको जाम आसा.

**अनघा** : तशें जाल्यार हांव ताका मात्शे पळोन वता.

**अण्णा** : नाका नाका ते सुषमा केन्नाय भितर सरत.

**अनघा** : तूं टेन्शन घेवं नाका. हांव ताका रोखडेच पळयतां आनी वता.

**अण्णा** : बरें बांये रोखडेच भायर यो आं. (अनघा भितर वता.) (अण्णा पासयो मारता. दारार वचून पळयता इतल्यान सुषमा येता तें दिसता.)

**अण्णा** : आरे देवा! ही कयकया पावली, आतां अनघाची धडगत ना. आतां कितें केल्यार बरें. (अण्णा आपल्या रूमान वता.) (सुषमा आणि छुटकी येता.)

**छुटकी** : बाबा...बाबा..बाबा...

**सुषमा** : आगो बाये बोवाळ कित्याक मारता. बाबा रातभर न्हिदूना आता न्हिदला आसतलो तूं ओग्गी राव मात्शें.

**छुटकी** : आगे मामा, म्हाका हो ड्रेस दाखवपाक जाय बाबाक.

**सुषमा** : अगो बाय मागीर दाखय.

**छुटकी** : म्हाका तूं मगे सामकी पचकी, हांव उलयना तुजेकडेन (म्हणत ते किचनांत वता). (सुषमा मात्शें बसता, तोंड पुसता. सागराची खबर घेवपाक भितर वचपाक तेच अनघा सागराच्या रूमांतल्यांन भायर सरता).

**सुषमा** : तू आनी हांगा आमच्या बेडरूमांत?

**अनघा** : (आबूज) दार...उगडें आसलें..अण्णान...आपयल्ले...

**सुषमा** : फटकिऱ्या इतले दीस तूं सागराक मेळपाक येतालें आनी आज अण्णान आपयलां म्हणटा.

**अनघा** : हांव खरेंच सांगता म्हाका अण्णान आपयिल्लें.

**सुषमा** : अशें बरें आसा तूं हांताच्या काकणाक हारसो कित्याक राव हांव अण्णाक आपयतां. सोमतोच सोक्ष मोक्ष लागूंनी आनी जर तूं फट उलयतां म्हणून कळत जाल्यार मागीर हांव तुका पांयां पडतां... तूं. प्लीज दाखयता राव. (अण्णा SSS म्हणून सुषमा भितर वता).

(बेडरूमातल्यान सागर भायर सरता. अनघाक पळोवन आबूज.)

**सागर** : आगो तूं हांगा किदें करता? सुषमा आता घरान तूं हांगा राव नाका वच हांगचे. प्लीज पाय पडता तुका चल बेगीन भायर सर.

**अनघा** : आरे सागर म्हजे आयक. म्हाका अण्णान हांगा आपयला म्हणून हांव हांगा आयलां.

**सागर** : किदें? तुका अण्णान हांगा आपयला. ह्या अण्णाची तकली ना जाग्यार सुषमा घरात आसा आणि तूका आपयला? हो माका घालतलो असल्यानी फोणान. हांव तुज्या पायां पडटा. तूं प्लीज हांगासल्ल्यान मात्शें वच.

**अनघा** : आरे पूण अण्णा...

**सागर** : पूण बी कांय ना. सायबीणी वच हांगाचें. (म्हणत हाताक धरून ओडता. इतल्यांन सुषमा भायर सरता.)

**सुषमा** : अरे वा..वा..वा..वा...हिरो हिरोईनीक खंय व्हरता... व्हर व्हर व्हर.... अगो चल चल चल.... ताज्या वांगडा काय बरो हातान हात धरला (सागर हात सोडता) आरे आरे सोडलो किद्याक? धर. धर सारको धर धर खंय व्हरतलो ताका बेडरूमांत? व्हर व्हर व्हर.

**सागर** : आगो सुषमा हांव ताका भितर व्हरनाशिल्लो हांव ताका भायर घालतालो.

**सुषमा** : भायर घालतालो किद्याक रे बाबा? ते इतकी मेहनत करून हांगा आयला आणि तू ताका भायर घालता?

**अनघा** : सुषमा म्हजे आयक. हांव खरेच ताका मेळूंक येवं नाशिल्ले. म्हाका अण्णान आपयिल्लें.

**सुषमा** : तू वोगी राव गो थंय. चोमड्या तूका कोणे सांगला मदी उलोवपाक. चोर तो चोर आणि वयल्यान शिरजोर.

**सागर** : सुषमा किदे उलयता तूं?

**सुषमा** : आयलो आमच्या हिरोक राग आयलो. किदें उलयता तूं ह्या दिसा तू माका सांगतालो मरे तुमच्या भितर काय ना म्हणून. तू माका आणि छुटकीक सोडून केन्नाच वचचोना म्हणून जाल्यार हे हांगा परत परत किद्या खातीर येता? कोणा खातीर येता?

**सागर** : हय ते म्हज्या खातीरूच येता. पूण तू समजता त्या नात्यान न्हय. एक फ्रेंड म्हणून माझी खबर घेवपाक.

**सुषमा** : खबर घेवपाक तुका कसली धाड भरल्या तर आनी किदेंय जाले जाल्यार माका सांग हांव तुजी बायल फ्रेंडां खंय, फ्रेंडा. एक लग्न जाल्लो दादलो आणि एक आंकवार चली ही फकत फ्रेंडा केन्नाच आसूं शकनात.

**सागर** : सुषमा तुका कसे समजांव गो आता? तू चितता तशे कायच ना गो, शाण्या. म्हजेर विश्वास दवर.

**सुषमा** : बस्स! पुरो जालें, खूप आय़कले तुजे. खूप दवरलो तुजेर विस्वास. पूण आता उदक माथ्यावयर पावले. आता तूं म्हजें. आयक. बायले भुरग्यांक फटोवन तू एक आकवार चलयेकडेन संबंध दवरतलो आणि म्हज्या दोळ्याक उदक लायतलो अशें चितता जाल्यार विसर ते.... हांव तुका म्हाका फटोवंक केन्नाच दिवचेना. हांव ह्या घरान आता रावपाना हांव म्हजे चलयेक घेवन चल्ले. (छुटकी छुटकी करून ते भितर वता.)

**सागर** : सुषमा, सुषमा, म्हजें आयक.

**अनघा** : सागर, सागर, हे कितें जाले? प्लीज आयज, ताका...(सागराक खोकलेचो त्रास जाता.)

अनघा : सागर! कितें जाले कितें जाता तूका? सांबाळ स्वताक. ब
हांगा (अण्णा अण्णा बेगीन भायर यो. अण्णाच्या रूमाक
वता.) (सुषमा सुषमा प्लीज भायर यो) (परत सागरा कडे
येता) सागर कितें उदक हाडू, वखद हाडू? (इतल्यान सुष
आणि छुटकी भायर सरतात.)

अनघा : सुषमा प्लीज सागराचे वखद घेवन यो ताका त्रास जाता.

सुषमा : पूरो कर. पूरो कर तुमची ही नाटकां हांव ज्युस्त वळखत
तुमका. मात्शें कितें जाले रोकडीच खोकली काडून दाखवपाच
तुका जाय जाल्यार तूं दी वखदां हांव दिवचेना.

छुटकी : बाबा..बाबा..कितें जाता तूका तूं इतलो खोकता किद्याक
(सुषमा छुटकीक ओडून काडता)

सुषमा : काय गरज ना ताच्या फूड्यांत वचपाची. आयच्यान ताज
आनी आमचो कायच संबंध ना, चल या आमी. (अण्णा भाय
सरता.) सुषमा राव.

सुषमा : ना अण्णा हांव आता ह्या घरान एक मिनिटसुद्धा रावचेना.

अण्णा : नाका तू एक मिनिट सुद्धा रावू नाका. पूण वचच्या पयल
ते मंगळसूत्र हांगा काडून दवर, काकणां फोडून उडय आणि
कपलाचे कुकूम पुसून उडय.

सुषमा : व्वा! अण्णा म्हाका दिशिल्ले तूं तरी माका समजून घेतल
म्हणून. पूण तूं सुद्धा एक दादलोच आणि तुवेन दादलो जावनच
निर्णय दिलो.

अण्णा : ना गो बाय. निर्णय दिवपी हांव कोण? निर्णय दिवपी तो वयर
बसला आणि ताणे तुज्या नशीबान हें पयलीच बरोबर दवरला.

सागर : नाका अण्णा प्लीज..

अण्णा : नाका पुता आयज माका आडोंव नाका. हें अनघा सागराचे कोण
न्ही. ताच्या मदीं कसलेच नाते ना आणि आसलेच जाल्यार
दोतोर आणि पेशंटाचे. हें अनघा दोतोर आणी हो सागर ताचो
पेशंट.

सुषमा : पेशंट? दोतोर? हें सगळे किदे अण्णा? माका कांयच कळूना.

**अण्णा** : तुका कळपा इतलें सोपें ना गो तें बाय. ह्या मालक्रिर्यादान सगलो घुस्पा गोंदळ करून दवरला.

**सुषमा** : अण्णा प्लीज असो कोड्यांत उलोव नाका. किदें आसा ते सरळ सरळ सांग म्हजो जीव वचपाक पावला.

**सागर** : सुषमा, शाण्या माका काय जावं ना गो. हो अण्णा पिश्याभशेन कित्याय किदेंय बडबडटा... हांगा बस. हाव सांगता तुका.

**अण्णा** : ओगी राव थंय. एक उतर सुद्धा उलोवं नाका. बाय काळीज घट्ट कर आनी आयक. सागराक कॅन्सर जाला ही ताची लास्ट स्टेज ही गजाल लिपोवपाक खातीर ताणे ही सगळी नाटका केल्ली.

**सुषमा** : अण्णा, हें खरे न्ही, हें खरे न्ही. अशें कशें जातलें. सागर शाण्या सांग हें सगळे फट नी तू आमका सोडून कसो वचूक शकता? शाण्या सांग मरे तुका कायच जावूना न्ही! ना जाल्यार तू म्हज्या कडल्यान ही गजाल लिपोवन दवरचो नासलो. तू माका सगळे सांगतलो. मागीर ही गजाल कशी लिपोवन दवरतलो? हय नी? सागर, उलय, उलय किदे तर? (ते मोठ्यान उलयता.)

**छुटकी** : बाबा...बाबा...

**सागर** : सुषमा आय एम सॉरी. म्हाका माफ कर. पूण हे सगले खरे.

**सुषमा** : (व्हडल्यान रडटा) ना अशें जावक शकना अशें केन्नाच जावक शकना. अण्णा प्लीज म्हाका सागर जाय रे हांव ताज्या शिवाय जगूंक शकचें ना. अनघा हांव तुझ्या पाया पडटा, भीक मागता, किदेय कर पूण म्हज्या सागराक वाचय. पैशांची काळजी करूं नाका. अण्णा माज्यो वस्ती वीक, हें घर वीक, पूण म्हज्या सागराक बरो कर. अनघा, सांग म्हजो सागर वांचतलो न्ही?

**अनघा** : सुषमा कंट्रोल, कंट्रोल युवर सेल्फ. असो धीर सोडू नाका. ही जरी ताजी लास्ट स्टेज आसली तरीय आमच्याकडेन येक होप आसा ताजें ऑपरेशन.

**छुटकी** : बाबा तूं आमकां सोडून खंय वतलो रे?

**सागर** : खूप खूप पयस बेटा.

**छुटकी** : हांवूय येतलें तुझ्या मेरेन.
(सागर छुटकीच घट्ट धरून रडता.)

**अण्णा** : भिवू नाका पुता. तुका कायच जावपाना. आमी तुज्या अ
परेशनाची सगळी तयारी केल्या.

**अनघा** : हय सागर, अण्णान आपली जमीन विकून पैशाची तया
केल्या. आणि हांवे डॉक्टराकडल्यान परवाचीच डेट घेतल्य
त्या खातीर तुका आयज ॲडमीट जावचो पडटलो.

**सागर** : पूण डॉक्टर हे ऑपरेशन फेल जाले जाल्यार?

**अनघा** : कशे फेल जातलें? आरे इतले सगळया लोकांचो मोग तु
वांगडा आसा. तुका जगपाक जाय. तुजो इतको मोग कर
तुजो बायले खातीर. सपनांच्या जगान जगपी तुझ्या छूट
खातीर. म्हजे खातरी. हेराखातीर आणि सगळया लो
खातीर. जे असल्या दुयेसांनी त्रस्त जाल्या. आनी जगपा
आशाच सोडल्या. आरे शाण्या! देवान हो जल्म दिला, सूखा
जगपाक. अशे तुजेभशेन कुटून कुटून जगप सारकें न्हीं...

**सागर** : हय अण्णा. हांव जगतलो...हांव जगतलो..अण्णा हां
तयार आसा ऑपरेशन करपाक. दोतोर करा तयारी तुमी अ
परेशनाची. (छुटकी धांवत येवन सागराक घट्ट धरता.)

**छुटकी** : बाबा.....

**(काळोख. नाटक सोंपतां.)**

सुषमा : भायर घालतालो किद्याक रे बाबा? ते इतकी मेहनत करून हांगा आयला आणि तू ताका भायर घालता?

अनघा : सुषमा म्हजे आयक. हांव खरेच ताका मेळूंक येवं नाशिल्ले. म्हाका अण्णान आपयिल्लें.

सुषमा : तू वोगी राव गो थंय. चोमड्या तूका कोणे सांगला मदी उलोवपाक. चोर तो चोर आणि वयल्यान शिरजोर.

सागर : सुषमा किदे उलयता तूं?

सुषमा : आयलो आमच्या हिरोक राग आयलो. किदें उलयता तूं ह्या दिसा तू माका सांगतालो मरे तुमच्या भितर काय ना म्हणून. तू माका आणि छुटकीक सोडून केन्नाच वचचोना म्हणून जाल्यार हे हांगा परत परत किद्या खातीर येता? कोणा खातीर येता?

सागर : हय ते म्हज्या खातीरूच येता. पूण तू समजता त्या नात्यान न्हय. एक फ्रेंड म्हणून माझी खबर घेवपाक.

सुषमा : खबर घेवपाक तुका कसली धाड भरल्या तर आनी किदेंय जाले जाल्यार माका सांग हांव तुजी बायल फ्रेंडां खंय, फ्रेंडा. एक लग्न जाल्लो दादलो आणि एक आंकवार चली ही फकत फ्रेंडा केन्नाच आसूं शकनात.

सागर : सुषमा तुका कसे समजांव गो आता? तू चितता तशे कायच ना गो, शाण्या. म्हजेर विश्वास दवर.

सुषमा : बस्स! पुरो जालें, खूप आय़कले तुजे. खूप दवरलो तुजेर विस्वास. पूण आता उदक माथ्यावयर पावले. आता तूं म्हजें. आयक. बायले भुरग्यांक फटोवन तू एक आकवार चलयेकडेन संबंध दवरतलो आणि म्हज्या दोळयाक उदक लायतलो अशें चितता जाल्यार विसर ते.... हांव तुका म्हाका फटोवंक केन्नाच दिवचेना. हांव ह्या घरान आता रावपाना हांव म्हजे चलयेक घेवन चल्ले. (छुटकी छुटकी करून ते भितर वता.)

सागर : सुषमा, सुषमा, म्हजें आयक.

अनघा : सागर, सागर, हे कितें जाले? प्लीज आयज, ताका...(सागराक खोकलेचो त्रास जाता.)

**अनघा** : सागर! कितें जाले कितें जाता तूका? सांबाळ स्वताक. ब
हांगा (अण्णा अण्णा बेगीन भायर यो. अण्णाच्या रूमाक
वता.) (सुषमा सुषमा प्लीज भायर यो) (परत सागरा कडे
येता) सागर कितें उदक हाडू, वखद हाडू? (इतल्यान सुष
आणि छुटकी भायर सरतात.)

**अनघा** : सुषमा प्लीज सागराचे वखद घेवन यो ताका त्रास जाता.

**सुषमा** : पूरो कर. पूरो कर तुमची ही नाटकां हांव ज्युस्त वळखत
तुमका. मात्शें कितें जाले रोकडीच खोकली काडून दाखवपाच
तुका जाय जाल्यार तूं दी वखदां हांव दिवचेना.

**छुटकी** : बाबा..बाबा..कितें जाता तूका तूं इतलो खोकता किद्याक
(सुषमा छुटकीक ओडून काडता)

**सुषमा** : काय गरज ना ताच्या फूड्यांत वचपाची. आयच्यान ताज
आनी आमचो कायच संबंध ना, चल या आमी. (अण्णा भाय
सरता.) सुषमा राव.

**सुषमा** : ना अण्णा हांव आता ह्या घरान एक मिनिटसुद्धा रावचेना.

**अण्णा** : नाका तू एक मिनिट सुद्धा रावू नाका. पूण वचच्या पयल
ते मंगळसूत्र हांगा काडून दवर, काकणां फोडून उडय आणि
कपलाचे कुकूम पुसून उडय.

**सुषमा** : व्वा! अण्णा म्हाका दिशिल्ले तूं तरी माका समजून घेतल
म्हणून. पूण तूं सुद्धा एक दादलोच आणि तुवेन दादलो जावनच
निर्णय दिलो.

**अण्णा** : ना गो बाय. निर्णय दिवपी हांव कोण? निर्णय दिवपी तो वय
बसला आणि ताणे तुज्या नशीबान हें पयलीच बरोबर दवरला

**सागर** : नाका अण्णा प्लीज..

**अण्णा** : नाका पुता आयज माका आडोंव नाका. हें अनघा सागराचे कोण
न्हीं. ताच्या मदीं कसलेच नाते ना आणि आसलेच जाल्यार
दोतोर आणि पेशंटाचे. हें अनघा दोतोर आणी हो सागर ताचे
पेशंट.

**सुषमा** : पेशंट? दोतोर? हें सगळे किदे अण्णा? माका कांयच कळूना

अण्णा : तुका कळपा इतलें सोपें ना गो तें बाय. ह्या मालक्रिर्यादान सगलो घुस्पा गोंदळ करून दवरला.

सुषमा : अण्णा प्लीज असो कोड्यांत उलोव नाका. किदें आसा ते सरळ सरळ सांग म्हजो जीव वचपाक पावला.

सागर : सुषमा, शाण्या माका काय जावं ना गो. हो अण्णा पिश्याभशेन कित्याय किदेंय बडबडटा... हांगा बस. हाव सांगता तुका.

अण्णा : ओगी राव थंय. एक उतर सुद्धा उलोवं नाका. बाय काळीज घट्ट कर आनी आयक. सागराक कॅन्सर जाला ही ताची लास्ट स्टेज ही गजाल लिपोवपाक खातीर ताणे ही सगळी नाटका केल्ली.

सुषमा : अण्णा, हें खरे न्ही, हें खरे न्ही. अशें कशें जातलें. सागर शाण्या सांग हें सगळे फट नी तू आमका सोडून कसो वचूक शकता? शाण्या सांग मरे तुका कायच जावूना न्ही! ना जाल्यार तू म्हज्या कडल्यान ही गजाल लिपोवन दवरचो नासलो. तू माका सगळे सांगतलो. मागीर ही गजाल कशी लिपोवन दवरतलो? हय नी? सागर, उलय, उलय किदे तर? (ते मोठ्यान उलयता.)

छुटकी : बाबा...बाबा...

सागर : सुषमा आय एम सॉरी. म्हाका माफ कर. पूण हे सगले खरे.

सुषमा : (व्हडल्यान रडटा) ना अशें जावक शकना अशें केन्नाच जावक शकना. अण्णा प्लीज म्हाका सागर जाय रे हांव ताज्या शिवाय जगूंक शकचें ना. अनघा हांव तुझ्या पाया पडटा, भीक मागता, किदेय कर पूण म्हज्या सागराक वाचय. पैशांची काळजी करूं नाका. अण्णा माज्यो वस्ती वीक, हें घर वीक, पूण म्हज्या सागराक बरो कर. अनघा, सांग म्हजो सागर वांचतलो न्ही?

अनघा : सुषमा कंट्रोल, कंट्रोल युवर सेल्फ. असो धीर सोडू नाका. ही जरी ताजी लास्ट स्टेज आसली तरीय आमच्याकडेन येक होप आसा ताजें ऑपरेशन.

छुटकी : बाबा तूं आमकां सोडून खंय वतलो रे?

सागर : खूप खूप पयस बेटा.

**छुटकी** : हांवूय येतलें तुझ्या मेरेन.
(सागर छुटकीच घट्ट धरून रडता.)

**अण्णा** : भिवू नाका पुता. तुका कायच जावपाना. आमी तुज्या परेशनाची सगळी तयारी केल्या.

**अनघा** : हय सागर, अण्णान आपली जमीन विकून पैशाची तय केल्या. आणि हांवे डॉक्टराकडल्यान परवाचीच डेट घेतल त्या खातीर तुका आयज अॅडमीट जावचो पडटलो.

**सागर** : पूण डॉक्टर हे ऑपरेशन फेल जाले जाल्यार?

**अनघा** : कशे फेल जातलें? आरे इतले सगळया लोकांचो मोग त वांगडा आसा. तुका जगपाक जाय. तुजो इतको मोग कर तुजो बायले खातीर. सपनांच्या जगान जगपी तुझ्या छूट खातीर. म्हजे खातरी. हेराखातीर आणि सगळया लो खातीर. जे असल्या दुयेसांनी त्रस्त जाल्या. आनी जगपा आशाच सोडल्या. आरे शाण्या! देवान हो जल्म दिला, सूख जगपाक. अशे तुजेभशेन कुटून कुटून जगप सारकें न्हीं...

**सागर** : हय अण्णा. हांव जगतलो...हांव जगतलो..अण्णा ह तयार आसा ऑपरेशन करपाक. दोतोर करा तयारी तुमी परेशनाची. (छुटकी धांवत येवन सागराक घट्ट धरता.)

**छुटकी** : बाबा.....

**(काळोख. नाटक सोंपतां.)**



# किर्ती नरसे

## उजवाडाक येवपी नाटका:

- आपा - लिपा (कोंकणी)
- कभी खुशी कभी गम (कोंकणी)
- वन टू का फोर (कोंकणी)
- धुमशेंणां (कोंकणी)
- पालवी (कोंकणी)
- बाप्पा नंबर १ (कोंकणी)
- आमी चार सामकें आकवार (कोंकणी)
- गरम मसाला (कोंकणी)
- केले एक आनी जाले एक (कोंकणी)